AAWALEM

(A Novelette in Konkani)



**पयली आवृत्ती**

जून, १९९८



**प्रकाशन :**

शेणवी प्रकाशन

पेडें, लोलयें,

काणकोण गोंय.



**अक्षर-जुळणी :**

ओमेगा एन्टरप्राइझेस,

विद्यानगर - ३, विद्यानगर, मडगांव - गोंय ४०३ ६०१



**मुखचित्र :** कु. गौरी उदय शेणवी

**मोल :** रु. ५०/-

जाणें फाटीं फुडें लागून

म्हाका ही कादंबरी बरोवंक लायली,

त्या म्हज्या पुताक -

**सुजीताक**

ही कादंबरी भेटयतां

# प्रस्तावना

कोंकणींत कांय अवघे लेखक सोडल्यार कोणूच लेखक चडसो कादंबरीक लागीं गेल्लो ना. जे कोण थोडेशे लेखक कादंबरीचे वाटेक गेल्यात ते सगळे लघुकथा लेखक. पूण जाणें कथा केन्ना बरोवंक ना आनी जाच्या नांवार आतांमेरेन एक कवितासंग्रहच (*खतखतें*-१९९६) आसा, असो एक कवी जेन्ना एकदम कादंबरीक हात घालता, तेन्ना ताची लक्तुबाय दिसलेबगर रावना.

उदय शेणवी हांची 'आंवाळें' ही, कादंबरीचें बीज आशिल्ली एक कादंबरिका. वाचूंक सुरवात करतनाच हे कादंबरीचो कॅनव्हास व्हड आसा म्हणपाचें जाणवता. आनी गांवगिन्या वाठाराचे फाटभुंयचेर बरेंच कितें वाचूंक मेळटलें म्हणपाचें दिसून अपेक्षा वाडटात.

हे कादंबरिकेचो नायक - म्हळ्यार स्वता लेखक - एक शाळा मास्तर. गोंयच्या खंयच्या तरी एका खांची-कोनश्याक आशिल्ल्या आंवाळी गांवांत ताची बदली जाता. आनी तो आंवाळीची वाट चलूंक लागता. हांगा कादंबरीक सुरवात जाता. आंवाळी हो आदिवासींची वस्ती आशिल्लो सुपुल्लो गांव. थंय रस्ते नात, वीज ना, दुकानां नात- कांय म्हळ्यार कांय ना. आसा एक शाळा, जी एका मिनैरान खण सुरू केल्ली त्या वेळार बांदून घेतिल्ली. शाळा आसा म्हणून सरकार थंय मास्तर धाडटा; आनी जेन्ना कोणूय मास्तर निरुपाय जावन थंय येता, तेन्ना थंय भुरग्यांक फावता तेन्ना, तांचे सोयीप्रमाण शाळा चलता. तशी शाळेचीय थंय कोणाक गरज ना. लोक मागाशिल्ले; पूण हांगा मनीसपण आसा. शिस्त आसा. एकामेकाची मान-मर्यादा राखून गांव चलता. कोण कोणाचो दुस्वास करिनात. गरजेक सगळे एकामेकाक पावतात. कोणूच नाशिल्ले आनी कांयच काम करूंक जमना जाल्ले म्हतारे गिल्लीक लेगीत थंयचे लोक रासवळ पिकावळींतलो तिचो म्हणून वांटो काडून दवरतात आनी

चुकनासतना तिका पावयतात.

सैमावांगडा चलपी, दीस-रात वाग, जीव-जिवात हांचेपसून भिरांत आसतनाय तांची पर्वा करी नासतना भंयाविरयत आपणाले नित्य-वेव्हार सुसंगीत चालू दवरपी, भूत-देंवचार, घाडी-देवस्पण हांचेर भावार्थ दवरपी आनी शिगमो नाचतना चिंता-हुस्के पुराय विसरून, देहान आनी मनान ताका ओपून धुंद जावन रंगपी थंयचे सादे-भोळे आदिवासी लोक - हांकां लेखक जश्याचे तशे वाचका मुखार हाडून उबे करता.

उदयवावाची निरिक्षण-शक्त तोखेवपा सारकी. पिंडान कवी आशिल्ल्यान सैमावांगडा इश्टागत चड. निसर्ग तांणी मोटे फिशालकायेन वर्णिला- इतलो की वाचतल्याक लेखक आपणावांगडा वाचकाकूय भोंवडायता काय दिसूं येता. लेखक त्या वातावरणांत पुरायेन विर्गळून वता.

आंवाळीच्या निसर्गाचीं, थंयच्या लोकांचीं, तांच्या चाली-रितींचीं वर्णनां करतां करतांच लेखक ल्हवपीक हातांनी एका निश्पाप मोगाची नाजूक शी काणी अळंग विणीत गेला. तांतलो मोग मावलेच्या जाळाइतलो नाजूक... म्हळ्यार आसा, म्हळ्यार ना- असो. दोन जुवान जिवांमदलो अव्यक्त मोग!

कादंबरीची सुरवात भोवच परिणामकारक जाल्या. पूण ज्या जोमान लेखकान हे कादंबरीक सुरवात केल्या, तो जोम निमाणे मेरेन तिगिल्लो दिसना. अकस्मातच तांणी कथेक वेगळें वळण दिलां आनी थोडे शे ताकतिकेन तांणी ही कादंबरी सोपयल्या.

लेखकाची ही पयलीच कादंबरी. ह्या विशयांत ते नवे जाल्ल्यान कांय मर्यादा तांच्या लेखनाचेर पडप सभावीक आसा. पूण अशें आसूनय ही कादंबरिका आकर्षक जाल्या. कथानकाक गती आसा. कादंबरिका वाचतना खंयच वाज असो येना.

उदय शेणवी हांचो कादंबरी लेखनाचोच न्हय, कथा-साहित्य (Fiction) प्रकारांतलें लेखन करपाचो हो पयलोच प्रयत्न थुळेवपा सारको आसा. ही 'आंवाळें' कादंबरिका वाचप्याच्या मनांत आंवाळ्यावरीच एक आगळी-वेगळी रूच दवरून वतली हातूंत दुबाव ना.

**- सुरेश काकोडकार**

# आंवाळें

## १

आंवाळी वाड्यार पावचें आसलें, हे खातीर दीस उदेवपाची वाट पळय नासतना रात सोपचे पयलीं वाट चलूंक लागलों. वाटेर कोणूच लोक नासले. मनांत विचार येताले, 'हांव आंवाळी केन्ना पावतलों काय? थंय वतकच लोक म्हाका कशे येवकार दितले, म्हजी खाणा-जेवणाची वेवस्था कशी जातली?' ते विचार झटकून उडोवन वाटेर पांया पोंदाक जिवाणें बी ना मूं हाचो अदमास घेत, परत परत खात्री करून चलतालों. म्हज्या जोत्यांचो चरक् चरक् असो आवाज म्हाकाय येतालो. दिसतालें, झोपांनी रावन कोणी आवाज करिना मूं? थंड वारो व्हांवतालो. आंगाक घाम येना आसलो. जसो जसो फुडें वतालों, तितलें तितलें उजवाडत येतालें. दोळ्यांक आतां तशें सगळें दिश्टी पडटालें, तरी झाडा मुळांनी काळखाच्यो राशी दिसताल्यो. उदेंत उजळ जावंक लागिल्ली. पांया पोंदचें करड दंवान ओलें जाल्ल्यान जोतें परत परत निसरतालें. थोडो वेळ रावचें मनांत आयलें, तरी रावल्यार आंवाळी पावंक रात जातली हाची धास्ती मनाक लागिल्ली. आंवाळी पावंक दीस भर लागता अशें म्हाका मित्रांनी म्हणिल्लें. तसो पाडी हांव पाविल्लों. पाडीचो दोंगर हुपून पलतडेन वतकच आंवाळी लागता, हाची खबर हांवें काडिल्ली. हांव पयलीं शारांतच शिकयतालों, आतां अचकीत म्हजी बदली आंवाळी हांगा केल्ली. थंय वचूंक कोणच तयार जायना आसले. शारांत सगलें मेळटा, तेन्ना त्या खेड्यांत वचून कोण दणदणा काडटलो? म्हजो नाईलाज जावन, बदली केली म्हणटकच वचूंक हांव तयार जालों, न्हय, जावचेंच पडलें. घरची अर्थीक स्थिती जेमतेम आसली. भाटांत काम करूंक जायना आसलें, म्हणटकच शिकयले शिवाय गत्यंतर नासलें. म्हजो संवसार जावचो आसलो. मनांत सपनां रंगयल्लीं, पूण तांकां रंग येतच हें सांगूं नज आसलें. म्हजें मन विचारांनी आसतनाच वाटेर एक बैल दिसलो. ते विचार खंयचे खंय पावले. वाटेवयली बडी काडून 'हयऽऽ' अशें म्हणना फुडें तो कुशीन गेलो. फाटीर हांवें बोटवो मारिल्ल्यान दोनय हात मेकळे आसले. मुस्तायकी, चादर, चार चपात्यो,

तशेंच ब्रश आनी पेस्ट इतलेंच बोटव्यांत आसलें, तरी म्हाका तें बरेंच जड लागतालें. हातांत बडी घेतिल्ली, तितलोच आदार.

सुर्याचीं किर्णां आतां म्हज्या आंगार पडटालीं. थोडी शी धांप म्हाका लागिल्ली. चलून जरी आंगांत गरमसाण भरिल्ली, तरी उदेतल्या किर्णांक आंगार जिखूंक आंनद वेगळोच आसलो. हांव लागसल्ल्या फातरार बसलों. बोटवो काडून सकयल दवरलो. काळखांत बॅटरी मारतकच जशें जाय तें दिसता, तशें किर्णांच्या उजवाडान सगलो सैमच नदरेंत भरतालो. सवणीं आपयतालीं, तरी तांचे म्हऱ्यांत वचूंक वेळ खंय आसलो? कानार तांचे आवाज आयकताले, तरी ताचेर विचार करूंक म्हाका वेळ नासलो. केन्ना हांव आंवाळी पावतलों हो एकच विचार मनांत येतालो.

फुडें वतकच दोन वाटो लागतल्यो, तांतली दावी सोडून उजवी धरपाची. तशेंच फुडें शेत लागतकच घराचो अदमास घेत वचपाचें, म्हणटकच पाडी पावल्यांत जमा, हें हांवें लक्षांत दवरिल्लें. बसतकच मात्शें बरें दिसलें. हातांत बडी घेतली, बोटवो फाटीर मारलो आनी चलूंक लागलों. वाट मळिल्ली आसली तरी पांया पोंदाक फातर पडल्यार, तोल वचत हे खातीर पावलां सांबाळून उडोवचीं पड. रान लागिल्लें. रान तशें संवकळीचें आसलें, तरी एकट्यान चलतना मन कांचवेतालें. वाटेर झोपाचे खांदे आयिल्ले ते चुकयत वचचें पडटालें. एखाद्रे काटयेचें शितें वाटेर येतालें तेन्ना बडयेनच ताका पैस करून वचचें पड. म्हज्या पावलांचो वेग हांवें वाडयिल्लो. एक्सलरेटर दामतकच जसो गाडयेचो वेग वाडटा, तसो हांगा मनाचो एक्सलरेटर दामून हांवें पावलांचो वेग वाडयिल्लो. आतां घांटी लागताली. तोल सांबाळचे खातीर फुडें बाग घेवची पड.

म्हजी नदर फुडें वच तर एक कोंबो, आनी एक कोंबी वाटेरच विस्कुट्टालीं. कितलो सुंदर दिसतालो तो! विश्व सुंदरीक मुकूट घालून भौमान करतात तसो सैमानय ताच्या माथ्यार शेंकरो दवरून तो सुंदर म्हणून ताचो भौमान केला काय कितें, तोय सदांखातीर असो प्रस्न म्हाका पडलो. म्हजी सुलूस लागतकच तो कों कों करून उडून गेलो, फाटो फाट कोंबी उडून गेली. खीण भर तांकां पळोवन म्हाका बरें दिसलें. हे वाटेन लोक येताले, वताले, तरी वाट तितली मळूंक नासली. मदीं मदीं झाडाचीं पानां झडून पडिल्ल्यान वाट कळ नासली. तरी दिको म्हाका खबर आशिल्ल्यान अदमासान चलतकच वाट सांपडताली. माथ्या वयर झाडार आशिल्ले माकड म्हाका पळोवन हो आनी कोण आपणाल्या वाठारांत येवपी अश्या अविर्भावान, हुप् हूप् करून धोक्याचो इशारो दीत रूखा वयल्यान उडयो मारीत धांवताले, ते सरशीं

झाडाचीं पिकिल्लीं पानां, पानांर पडिल्लो दंव पाल्यार झडटालो ताचो चर् चर् आवाज जातालो. सुर्याचीं किर्णां वरींच निबर जावंक लागिल्लीं. म्हज्या आंगांतसून घाम पाझरतालो.

आतां हांव पाडीचे माथोटेक पाविल्लों. तसो पयलीं हांव ल्हान आसतना पाडी पाविल्लों, तरी नेमकीं घरां खंय आसात हाची सारखी याद जायना आसली. इतल्यांत पानांचो सर सर जमनीर आवाज जावंक लागलो. हांव झाडाच्या आडसाक गेलों आनी आवाजाचे दिकेन पळयत रावलों. चितळांचो हिंड पटापट उडक्यो मारीत वाटेर येवन पळोवंक लागलो. शिंगाडो कितलो सुंदर दिसतालो सांगू! शिंगां वयर करून कान फांकारतालो. इंतले मजगतीं झाडा वयल्यान सुकी बडी पडली. ते सरशीं तो वाटेनच देंवलो आनी नाच्च जालो. हांव पाडीच्या शेतांत पळयतालों. बऱ्याच वेळान तो म्हाका शेतांत दिसलो. पैस साकून ताची सुंदरकाय लागीं आसतना भरताली तशी दोळ्यांत भरनासली. वाटेर काळीं काळीं चिंवरां पळयतकच हांवें तीं झोपाचीं बुड्डिलीं. बोलसांत, बोटव्यांत, तोंडांन भरलीं, तरी चिवरीचीं झोपां इतलीं आसलीं, म्हाका म्हजी आशा सोडून दिवची पडली. चिंवरांनीं हांव तृप्त जाल्लों. चाबडावन चाबडावन उडयतालों.

आतां देंवण शी आसली. जोतें निसरतालें. पाडी जरी वयल्यान लागीं दिसतालें, तरी पावंक बरोच वेळ लागलो. व्हाळ संथ व्हांवतालो. तातूंत हांवें हात पांय धुले. मात्शें बरें दिसलें. फुडें वाटेर उदक मेळतच हाची खात्री नासली, हे खातीर बोटव्यांत आशिल्ल्यो चपात्यो रोखड्योच फस्त केल्यो. ल्हानशी कुल्ली बिळांन वतना दिश्टी पडली, तिका धरूक हांवें हात फुडें काडलो तर ती रोखडीच बिळांन गेली. वत बरेंच कातीचेर मार दितालें. आड्यार चडून हांव शेतांत देंवलों तर सुणीं म्हजेर धांवन आयलीं. हांवें हातांतली बडी दाखयतकच तीं पैस रावन भुकूंक लागलीं. शेतांत चार पांच भुरगीं आफुडचेल्यांनी खेळटालीं. तांच्या काळ्या आंगार म्हेळी काश्टी आसली तितलीच. वत तांकां भाजूंक शकना आसलें. तींच वताकडेन खेळ खेळटालीं. कितलीं गुल्ल जावन खेळटालीं तीं!

"आरे, आंवाळीची वाट खंय?" म्हणना फुडें म्हाका जाप दिवचे बदला तीं खेळ सोडून धांवतच आपल्या खोपटांनी भितर सरलीं. एक बैल शेताच्यो मेरो शिंगांनी खणून धेकर घालतालो. जळा-मळाक शेण पडून सुकिल्लें. खोटो, खोटो आवाज येता ते दिकेन पळयलें जाल्यार एकटो रूखाचे खांदे मारून शेतांत उडयतालो, हांव थंय गेलों. "आंवाळी वचपाची वाट खंय?"

"त्या कुंव्या झाडा कडसून नीट वाट गेल्या ती माथाटेर, थंय साकून तुका आंवाळी दिश्टी पडटलें. वाटेर असो तसो वचनाका."

"बरें, तूं हें कितें करता?"

"हांव आंतोड मारतां."

हें म्हाका कळना म्हणून तो हांसुंकूच लागलो. ताच्या कोंतान ही सादी गजाल येद्या व्हडल्या दादल्याक कळना कशी?

सात आठ खोपटां आसलीं. सुणीं भुकपाचीं थांबिल्लीं. भुरगीं आंगणांत रावन म्हाका पळयतालीं. तकली सकयल घालून वाटे कडेन पळयत हांव चलूंक लागलों. वताच्या कडार चलप नाका दिसतालें, तरी चलत रावले शिवाय गत्यंतरच नासलें. म्हाका बोटवो जड लागतालो. हातांत बडी आसली, ती म्हाका चलतना उपेगी पडटाली. पाडीची घाटी चडटना दोळ्यां मुखार काळोख येता असो दिसलो. लागशिल्ल्या फातरार हांव बसलों. रानांत कसलोच आवाज येना आसलो. पानां झडून हळूच पडटालीं, तरी आवाज व्हडलो येना आसलो. म्हजी नदर लागशिल्ल्या रूखाच्या पोंदा गेली तर एक गार वताक सुस्त पडिल्लें. ताका धरचें अशें म्हाका दिसलें. बोटवो दवरून हातांत आशिल्ली बडी घेवन पावल वाजय नासतना हांव ताका लागीं वचूंक लागलों. बडी वयर काडून हांवें त्या गाराचेर मारली. ते सरशीं तें जखमी जावन रूखाचे घोलींत हळू हळू वचूंक लागलें हांवें ताचे शेपडेक धरलें. तें तशेंच रावलें. दुसऱ्या हातान ताचेर फातर मारलो. तें मरून पडलें. एका हातान ताका धरून हांव चलूंक लागलों. मनांत आयलें, गार दितकीच ते खोशी जातले. तरी तें व्हांवोवचें पड म्हणून जिवार येतालें, तें रानांतच उडोवन फुडें गेल्यार बरें, जाता ते मेरेन व्हरपाचें असो विचार करून हांव चलूंक लागलों. चलून चलून म्हजें कमर दुखूंक लागिल्लें हे खातीर बोटव्यांत आशिल्लो वालो काडून कमर आंवळून बांदलें. आतां म्हाका चलूंक नेट आयिल्लो.

दनपार आसून लेगीत वत झाडांनी आडावल्ल्यान खर पडनासलें. चारांचें झाड म्हाका दिसलें. खांदे बागोवन हांवें चारां खालीं, तितली भूक गेली. तानय भागली. लांब पॅन्टींत गजगजतालें हे खातीर ती दोडून मोटवी केली. आंगांतलो शर्ट माथ्यार उडयलो तसो वारो आंगाक बरो लागूंक लागलो आनी शर्ट माथ्यार आशिल्ल्यान वताचो मार उणो जालो. म्हजो शर्ट मदीं मदीं वाटेर आयिल्ले कांटेरीक लागून उरतालो, तसो वारो नेटान व्हांवतकच सकयल पडटालो. म्हजे पांय चलपाचें काम करत आसले.

आतां देंवण सोपत येवन मेकळें मळ लागिल्लें. थंय एक राखणो गोरवांक राखतालो. काश्टी मारिल्लो, काळो, तरी माथ्याक फेटो मारिल्लो. चंचेंतल्यान सुपारी काडून आडकातीन बारीक करतालो. हांव ताचे म्हऱ्यांत गेलों. ताणें सुपारी तोंडांत उडयली आनी म्हजे कडेन मारक्या रेडका सारखो पळोवंक लागलो. ताची नदर म्हज्या हातांत आशिल्या गाराचेर गेली. हांवें विचारलें, "आंवाळी खंय आसा?"

"खंय आनुक, दिसोंना ही?"

हांवें विचारलें, "शाळा खंय?"

ताणें बोट दाखोवन सागलें, "ती न्हंय व्हांवता तिचे पार वोसोंक जाय, थिंगा च्यान दोन उल्यांची वाट."

"न्हंय कितली पैस आसा?"

"चड पैस ना. थिंगा पावता सर वेळ पडत येतलो."

आतां वत मोव पडत आयिल्लें. पैस रूखार कोगळाचो आवाज येतालो. मर्दींच चानी चंग चंग करताली. शेवणीं घोटेरांत परततालीं. माथ्या वयल्यान बगळ्यांची रांग उडत वतना म्हाका दिश्टी पडली. तांचे कडेन नदर मारूंक लेगीत म्हाका वेळ नासलो. पेजाद पावलां मारत हांव आंवाळी लागीं करतालों. वर भर चलतकच न्हंय लागली. न्हंयक उदक बरेंच दिसतालें. पलतडेन व्हडें आसलें. हांवें 'व्हडेकार व्हडेकार' असो उलो मारतकच एकटो व्हडें आसा थंय आयलो. ताणें कांयच विचारलें ना. व्हडें व्हलयत आलतडीं हाडलें. हांव तातूंत बसतकच ताणें तें पलतडीं व्हरून लायलें. एके दोरयेन तें घट बांदून दवरलें.

"कितले पैशे रे?"

"कितें चिल्लर आसा तें दी."

हांवें पाकिटांत आशिल्ले दोन रूपया ताका दिले, ते ताणें माथ्याक लायले. म्हणूंक लागलो, "पाव तूं ब्रिम्या." ताका म्हजी गरज नासली तरी म्हाका ताची आसली. पिरायेन तो पंचविशेक वर्सांचो आसत, तरी ताकदीन बरो आसलो.

"आरे, शाळा खंय आसा हांगा?"

"थींग असनूं!"

"आरे, खंय ती?'

"त्या सातना कडेन."

"आरे, पूण तो सातण खंय आसा."

"हो पळय, त्या मळार... 'गोंडवा' घराकडेन."

"म्हाका हांगाचें कांयच खबर ना. तूंच मात्सो दाखय मरे शाळा."

"म्हाका कळाव जाता. गोरवां गोठ्यान येवचीं जाल्यांत."

हांवें रूपया काडून हातार दवरलो. तो फुडें वाट चलूंक लागलो तसो हांव फाटसून वचूंक लागलों. अनवळखी वाट, तरी व्हडेकार आशिल्ल्यान म्हाका वाट चुकत म्हणून भंय दिस नासलो. आडवार चडून आमी सकयल देंवले. फुडें शेतोड आसली, वाट तशी मळिल्ली दिसताली. शेताचे देगेन आंब्याचीं झाडां तशेंच पणसाच्यो आळी आसल्यो. काळोख हळू हळू दाट जायत आसलो. पैस दिवो दिसतालो.

"आंवाळी पावले रे?"

"पावले खंचे? हीच आंवाळी न्हूं? ही चय, दुर्गा भितर आस ती साळ."

हांव शाळेचीं सोपणां चडटनाच तो 'वेतां' म्हणत काळखांत नाच्च जाल्लो. सगल्याक धुल्ल जाल्लो. चावी काडून दार उगडलें, तर भितर बीण्ण काळोख. वोटवो काडून मेजार दवरलो, दोन बांक एकठांय केले, वाल्यान धुल्ल पुसलो. रात सगली शाळेंतच काडपाची आसली. काळोख बरोच जाल्लो. खंय वतलो म्हळ्यार उजवाड नासलो. व्हडेकार विचारचे पयलींच गेलो. बरें, अनवळखी गांव म्हणटकच कोण म्हाका घरांत घेत सांगूं नज आसलें. दीस भर चलिल्ल्यान पांयांत पेटके येताले. पोटांत कावळे रात आसून लेगीत करंदाय मारताले. हातांत आशिल्लें गार वयर वांदून दवरलें. रात गेल्यार तें इबाडटलें. तरी उपाय नासलो. बडी एकच म्हजें हत्यार आसलें. पैस खोपटांत दिवो दिसतालो. तशें उलोवप आयकल्लें. म्हाका कितें करचें तें सुचनासलें. वारो व्हांवतकच आवाज येतालो. मनांत ओगीच भंय दिसतालो.

हांवें फुडल्या दाराक खिळी घाली. बोटवो उशाक घेतलो आनी दोळे बळयांच धापले. तरी एके तरेचो वास नाकांत वचूंक लागलो. जनेल उगडें दवरलें तसो थंड वारो भितर सरलो. परत मनांत आयलें, म्हाका न्हीद लागतकीच जिवाणें ह्या जनेलांतसून येना मूं? तडक उठून जनेल बंद केलें. आतां म्हाका घुसमटिल्ले सारकें जातालें. फुडलें दार बंद केल्ल्यान वाग, कोले सारकें जनावर येवचें ना हाची खात्री आसली. शिकोवपाचे शाळेचो हांवें घर कसो उपेग केलो. न्हीद कशीच लागनासली. विंगड विंगड विचार मनांत येताले. म्हाका भूक लागिल्ल्यान न्हीद येत म्हणून सांगूं नज आसलें. भातेल्ले सारको वास नाकांत वचून जागयतालो. दीस भर चलिल्ल्यान पांय उसळटाले. कुत्रीं भुकतना मदीं मदीं आयकूंक येतालीं. भुर् भुर् असो आवाज जालो. म्हाका भंय दिसलो. हांव उठून वसलों, तर एक वागोळें म्हजे वयल्यान घिट्टी घालतालें. ताच्या पांखांचो भयानक असो आवाज जातालो. रात न्हिदेचो वांगड

मेळ्यार नाच जाता, ना तर ती सतावंक लागता. एक एक खीण हांव मेजतालों. थोड्या वेळान हांव परत आड पडलों. रानांत वाग घुरकितना आयकूंक येतालो. तो पयस आशिल्ल्यान हांव निर्धास्त आसलों. तरी म्हऱ्यांत येवन शाळेकडेन लिपल्यार? असो विचार मनांत आयलो. म्हजे दोळे जड जाल्ले. भालू पलतडेन हेल काडून रडटालें. म्हाका न्हिदूंक जाय आसलें तरी सगलीं म्हाका जागोवंक सोदतालीं. हांव कूस परतीत आसलों.

## २

खट् खट् खट् असो दारार आवाज जातकच म्हाका जाग आयली. न्हीद घेवची दिसताली. केन्ना न्हीद पडली तें खबरच नासलें, तरी उठयतकच म्हाका गाढ न्हीद लागिल्ली हें कळ्ळें. पयलीं न्हीद पडना हे खातीर हांव बेजार जाल्लों, जाल्यार आतां न्हीद पडटकच हो कोण तरी उठोवंक तयार जाल्लो. हांवें उठून दाराची खिळी काडली जाल्यार एक जाणटो मनीस दारांत आसलो. भायर सगल्याक वत पडिल्लें. ताणें माथ्याक वालो बांदिल्लो. कानांक पितळेचे ल्हान वाळे घाल्ले, पायांत एक वाळो आसलो. धवी काश्टी मारिल्ली, तरी आंगांत जाकीट आसलें. हातांतलें पाळ खांदार दवरून म्हणूंक लागलो,

"शाळेचें कुलूप ना, हे खातीर आवाज केलो."

"तूं कोण? तुजें नांव कितें?"

"हांव वाडयेचो बुदवंत. म्हजें नांव कुडव."

"आरे, मापाचें नांव तुका कशें दवरलें?"

"पीक येतकच खळार पयलीं हांवच कुडव लायतां न्हूं! बुदवंत म्हळ्यार मुखेली. गोरवांक राखणो राखता तसो हांव हे वाडयेक राखतां."

"बरें आसा. हांव मास्तर; तुमचीं भुरगीं आसात तांकां शाळेन धाडात. हांव शिकयतलों."

"बरें आसा. ही शाळा बंदच उरता. केन्नाय कोणी येता, दोन म्हयने, तीन म्हयने शिकयता. आनी वयता. सरकारी म्हणटकूच सरकाराक जाय तशें करता. आमकां कांय खबर ना."

"हें गार जाय जाल्यार व्हर तुका." वयर हुमकळायिल्ल्या गाराकडेन बोट

दाखोवन हांवें म्हळें तशें ताणें तें सोडोवन घेतलें.

वुदवंताक धरतकच म्हाका बरें जातलें असो विचार करून ताका म्हळें,

"च्या दुकान खंय आसा? म्हाका दाखोवशी?"

"हय. चल या" म्हणत तो फुडें चलूंक लागलो. फाटल्यान हांव पाड्या सारको वतालों. ताच्या पांयांत जोतें आसलें. गोरवां शेतांत चरतालीं. आमी आतां खोपटां कडेन पाविल्ले.

"हीं पळय, हीं आंवाळीचीं घरां. ही वयली आंवाळी, आनी ती शेता सकयल आसा ती सकली आंवाळी."

पणसाचीं चार पांच झाडां त्या खोपटाचे म्हऱ्यांत आसलीं. तांकां ल्हान ल्हान कुंवले आयिल्ले. आंब्याचे रूख सात आठ आसले. आतांच तांकां चंवर येतालो. अर्दीं उगडीं पांच स जाणां भुरगीं त्या वतांत कोंयडे- बालांनी खेळटालीं. म्हाका पळोवन तीं खेळपाचीं थोडो वेळ थांबलीं. बुदवंतान म्हळें, "हो पळय मास्तर तुमकां शिकोवपाक येयला." अशें म्हणना फुडें तीं घरांत धांवलीं. लागसार गोठे आसले, खोपटांत तशी निवळसाण आसली. मदींच आड्यार आठेक माड आसले.

''तें पळय, तें शिमेर आसा तें पायकालें च्या दुकान."

म्हज्यान चलूंक नज जाल्लें. हळू हळू हांव चलतालों. वाटेर आंवाळ्याचीं झाडां लागलीं. ताळये कणकणीं कुचकुचीत आंवाळे भरिल्ले.

"आरे, हीं झाडां सगलीं आंवळ्याचींच! तीं खंय मेरेन आसात?"

"त्या कुंब्यां कडेन मेरेन." बोट दाखोवन ताणें सांगलें, "असलीं आंवाळ्याचीं झाडां तुका खंयच रानांनी सांपडपाचीं नात. देखून हे वाडयेक 'आंवाळी' म्हणटात. जून जातकच आंवाळ्याची आवळा सुपारी करतात, थोडे उकडून दोणान घालतात, थोडे त्या कुसक्या गांवांत व्हरून विकतात. गांव कुसको आसता तशें न्ही. बाराय म्हयने उदक आशिल्यान थंय रोयल्यार कुसता, हे खातीर त्या गांवचें नांव कुसकें पडलें. ही खरी देवी. ह्या वाठारांत नुसतें, मास हाडूंक उपकार ना. हांगा जोगण हांव घालतां. शीमेर कोंवे मारतात. एक कुडव फोव गोडान कालोवपाचे, सतरा बुडकुल्यांनी चोरू म्हळ्यार शीत करपाचें. पाना विडो, तशेंच आबोल्याचो सोर."

आतां आमी हॉटेलाचे म्हऱ्यान पाविल्ले. ल्हानश्या माटवांत ताचें हॉटेल. वसूंक पाशाणी चार फातर आसले. रांदनीर आयदन आसलें. कुडवान ताका दोन च्या करूंक सांगल्यो. सळसळत्या उदकांत च्याचो पालो मारून ताणें च्या पेल्यान हाडून म्हाका दिली.

"आरे, दूद घालूंक विसरलो काय कितें?"

"ना. दूद घातल्यार च्याची रूच वैता, देकून 'निकटी च्या' पितात."

पेलो च्याचे परस गरम जाल्ल्यान ओंठ भाजताले. म्हाका ल्हान आसतना एंण्डेल घेतालों ती याद आयली.

"खावंक कितें आसा?" म्हणना फुडें ताणें बिस्किटी दिल्यो. कुडवान ती गरम च्या केन्नाच सोपयली. म्हाका भूक लागिल्ल्यान ती च्या तशेंच त्यो बिस्किटी खाले शिवाय गत्यंतर नासलें. व्हळकायत व्हळकायत हांवें त्यो बिस्किटी खाल्यो.

"कितले पैशे रे?"

"दी पांच रुपया" म्हणना फुडें हांवें पांचाची नोट ताका दिली.

कुडवाचें बील हांवें फारीक केल्ल्यान तो खुशालभरीत दिसतालो. वारो नेटान व्हांवतकच माटोव हालतालो. रात्रीचो धुकट परते दिकेन येतालो. सूर्य बरोच वयर पाविल्लो. कुडव आनी हांव परती वाट चलूंक लागिल्ले. कुडव आसल्यार म्हजीं कामां जातलीं अशें चितून ताका हांव मानान वागयतालों.

"बुदवंता, शाळेन भुरगीं कशीं येतली?"

"तेची काळजी तूं काडनाका. म्हजें उतर म्हळ्यार कितें तें चय."

आमी दोगूय सकयले आंवाळी गेले. चिंचेचे सांवळेंत भुरगीं खेळटालीं. फातर दवरून रांदन केल्ली, ताचेर कट्टी दवरिल्ली. कट्टेंत माती घालून उदक घालून बडयेन एकटें खिरयतालें. ल्हान पणसाचीं पानां दवरून ताचेर ती खीर कशी वाडटालें. तीं खेळूंक इतलीं गुल्ल जाल्लीं, आमी तांचे म्हऱ्यांत पावले तरी तांकां खबरूच नासली. तांची नदर कुडवाचेर पडना फुडें तीं होर होर करीत धांवंक पळोवंक लागलीं तेन्ना "सगळीं थिंगाच रावतलीं" म्हणना फुडें तीं थंयच रावलीं. काळीं कुळकुळीत, धुल्लान मात्शीं तांबडीं दिसतालीं. भुरगे काश्टेचेरच आसले.

"फाल्यां साकून सगले शाळेक वैतले!" हीं उतरां आयकून तीं भंयान काचाबूल जालीं. "हो चयात तुमचो मास्टर" तीं वागा कडेन बोकडांनी पळोवचें तशीं म्हाका पळोवंक लागलीं.

"भिवं नाकात, तुमकां हांव मारचों ना." म्हणटकच तांचो भंय गेल्ले सारको दिसलो. पिक्यो चिंचो वयल्यान पडटाल्यो. तीं धांवतच वचून त्यो हातांत घेतालीं. चरचर चिचारे चाबतालीं. म्हाका म्हजें भुरगेपण दोळ्यां मुखार येतालें. आतां आमी वयले आंवाळीक पाविल्ले. कुडव आनी हांव तांच्या खोंपटांनी भितर सरून तांकां भुरग्यांक शाळेक धाडूंक सांगताले.

"आरे म्हजी रावपाची वेवस्था खंय जातली?" हांवें कुडवाक विचारलें.

"चल या," म्हणत ताणें म्हाका आपल्या घरा व्हेलो.

सगलीं घरां करडान धांपिल्लीं आसलीं तरी कुडवाच्या घराक नळे आसले. आंगणांत पाडूक बांदिल्लें. कुडवान म्हळें,

"ही कू ड तुका दितां, तरी म्हयने माल भाडें वीस रूपया दिवचे पडटले."

शाळेंत राती काडचे परस ही कूड बरी अशें हांवें चिंतून ताका हयकार दिलो. सोप्यार एका वानार ताची बायल मुसळान भात कांडटाली. ती मुसळ सोडून परत वयर उबारून तें भाताचेर मारताली, तशेंच पांयान भात सारताली. म्हाका तें पळोवन अजाप जालें. कुडवाक दोन चेडे, तीन चेडवां आसलीं. ताची भयण आंकवार आसली. ती गोरवांक राखूंक वताली. चार पांच माड ताणें उदक घालून केल्ले. सात आठ माडयो आसल्यो. कुडवाचें तोंड पान खावन खावन दीस भर तांबडें दिसतालें. कुडवान सांगलें, "मास्तर, घरान भितर येनाका. तुका कूड दिल्या तितूर रावपाचें."

हांवें म्हळें, "जेवणाचें कशें जातलें? तुमगेर जेवण दिल्यार पैशे दितलों आसलों."

"ना, आमी जेवण विकी नात. तशे आमी जातीन वयर; आमी कोणागेर सकल्या जातींगेर जेवी नात. हे खातीर तूं मास्तर जालो तरी आमच्या सालांत भितर सरूं नाका. तुका वाडल्यार आमी उश्टीं काडचीं नात." कुडवान म्हळें.

"हांव जात-पात मानी ना,"

"तुजें तूं पळय. आमच्या गांवांत म्हज्या मता सारकें चलूंक जाय."

हांव ओगीच रावलों. म्हाका उपाय नासलो. कशेंय करून नोकरे खातीर दीस काडूंक जाय आसले. "बरें, म्हाका शेर भर दूद दिवश्यात?"

"दूद मेळटलें, पुणून आमच्या आयदनान न्ही. तुज्या आयदनान."

"बरें,सामान हाडूंक पसरो खंय आसा?"

"ते दोंगुल्लेचेर घाडयालो पसरो आसा. पैशे दिल्यार म्हाल मेळटा. पिकेर दितां म्हळ्यार तो उदार पातेता, ना अशें न्ही."

"म्हाका भूक लागल्या, तेन्ना आडसर दिवशीत?"

"दिवया, पुणून रूपया काड."

रूपया दितकच ताणें म्हाका आडसर काडून दिलें. तें खातकच म्हाका थाकाय आयली. सांजे घाडयागेर या म्हणून तो जेवंक बसलो. मागीर सोप्यार न्हिदलो.

सुमार तिनाक आमी घाडयागेर वचूंक भायर सरले. कुडवान बरोबर पाळ म्हळयार लांब दांड्याची कोयती घेतिल्ली. शाळेंत वचून हांवें बोटवो घेतलो. आमी आतां दोंगर चडूंक लागिल्ले. लागसार वझरो आसलो. थंय गोरवां चरतालीं. इतल्यांत माकड कीच कीच करूंक लागले. कुडव म्हणूंक लागलो,

"वाग हिंगा लागीं येयला आसतलो."

इतल्यांत वागाचे सालनळीचो आवाज हूंक हूंक आयकूंक आयलो आनी 'हांबे', असो गायचो आवाज आयलो. कुडव पाळ घेवन धांवलो. वागाच्या भंयान जीव आसल्यार भीक मागून खायन अशें येवजून हांव लागशिल्ल्या झाडार चडलों. कुडव हातांत पाळ घेवन आवाजाचे दिकेन धांवलो.

वागाचें घुरकप आयकूंक येतालें. हांव झाडाचे तेंगशेर चडलों तसो सगल्याक पळोवंक लागलों. कळकीच्या पोंदाक वागान गायचेर झोंपय घाल्ली. कुडव "होरत, होरत" आवाज करतालो. तरी वाग आपली वेंग सोडी नासलो. आतां ताणें घांस मारिल्लो. कुडवान वेळ केलो ना; आपल्या जिवाची पर्वा करी नासतना पाळ वचून वागाचेर हाणलें. वाग गायक मारूंक इतलो संवकल्लो, ताका कुडव आयिल्ल्याचें कळूंकच नाशिल्ले. पाळ पडना फुडें वागाचे तकलेंतसून रक्ताचो शिंवर भायर सरलो. गायचो घांस सुटलो. कुडवान म्हणसर चार पांच कडेन वागाचेर पाळ मारलें. तरी वाग उठून वयर तोंड करून कुडवाक खावंक येतालो. कुडवाच्या आंगार रगत पडिल्लें. गोरवां सगलीं झाडांनी वचून आसलीं. गाय जीभ भायर काडून कुडवाक पळयताली. वाग हां हां करीत तेदो कुडको लोळटालो. कुडव पाळान मारता तो घाय तो चुकोवंक सोदतालो. हांगा कुडवच वाग जाल्लो, आनी वागाक ताणें गाय केल्ली. म्हज्या हाता-पांयांक कांपरें भरिल्लें. भंयान, ओंठ सुकिल्ले. म्हज्यान उलोवंक लेगीत जायना आसलें. आतां वागान तकली सकयल उडयल्ली. गाय तशीच पडून आसली. कुडवान तिका उदक पाजयलें, तशी ती हळू हळू घरा वचूंक लागली.

"मास्टर, मास्टर..." कुडव उलो मारूंक लागलो. म्हज्या तोडांतसून उतर फुट नासलें. शेवटाक तो सोदत, सोदत आयलो. हांव थरथरिल्ल्यान झाडाची तेंगशी हातलाती. ती पळोवन ताचें लक्ष तेंगशेर गेलें. तो म्हऱ्यांत येतकच म्हाका अवसान आयलें. हांव हळू हळू झाडा वयल्यान देंवलों. म्हाका घुंवळ येवंक पावली. कुडवान उदक हाडून मारतकच बरें दिसलें. कुडवाचें तें धाडस पळोवन ताची कशी तोखणाय करूं अशें म्हाका जालें.

"तुजी कापास्ताद खरीच तोखेय सारखी."

"आयक मास्टर, हांव वाडयेचो बुदवंत, म्हजो बापूय असोच धाडशी आसलो. वाडये वयल्या लोकांनी म्हजी कापास्ताद पळोवन म्हाका बुदवंत केलो. तसो अडचणीक तांकां बुद्द हांवच दितां."

आमी वाट परत चलूंक लागले. वाटेर काटी येता ती तो पाळान मारून उडयतालो. आतां आमी दोंगुल्लेच्या माथ्यार पाविल्ले. थंय एक देवळी आसली. देवळे मुखार तळें आसलें. उदकान हात पांय धुवनच देवळेंत भितर सरूक जाय असो नेम आसलो. आमी हात पांय धुवन देवळेंत भितर सरले. पाशाणी शिळा आसली- देवाचें नांव 'दाड देव.' ते देवळेंत घाडी रावतालो. बरोच जाणटो आसलो. देवाची पुजा तोच करी. कुडवान म्हजी वळख करून दिली. विचारलें, शाळा सुरू करूंक दीस खंयचो बरो? ताणें म्हळें, सोमार. घाडी, बुदवंत ते वाडयेचे मुखेली कशे वावुरताले. जाल्यार, मेल्यार घाडयाक व्हरून ते विधी करून घेताले. ते दोंगुल्लेचे माथोटेर तो घाडी आपल्या कुटुंबा वांगडा रावतालो. ताचो भुरगो देवाचीं कामां करी. फुलां काडप, अभिषेकाक तळयेचें उदक हाडप, तशेंच उपकरणां निवळ करप. घाडी आंगान बारीक, कातीन काळो आसलो तरी उतरान कणखर आसलो. तीर्थ-प्रसाद घेतकच देवळेचे म्हऱ्यांत रावन सकयल पळय तर सकयली तशीच वयली आंवाळी दिश्टी पडटाली. खोपटां वळखूंक येतालीं तरी सारकीं दिस नासलीं. शेतांत गोरवां आसात काय ना हें कळ नासलें. शाळा झाडाच्या आडसान आसा ती कळटाली. वत बरेंच निबर आसलें. म्हाका बरोच घाम सुटिल्लो, तरी वारो तो सुकयतालो. कुडव मात चांदऱ्यांन भोंविल्ले सारको वताची पर्वा करी नासतना भोंवतालो. देवाक थोडें शेत आसलें, तें घाडी रोयतालो. भोंवतणी एक दोन आंब्याचे रूख, तर चड काऱ्या-हुऱ्याचे रूख दिसताले. देवळी आंवाळेचे शिमेर आसली. फुडें देंवतकच कुसकें मेळटालें.

घाडयाक म्हळें, "तुज्या पुताक शाळेन धाडटा तर धाड."

तो म्हणूंक लागलो, "तो शाळेन गेल्यार हें काम कोण करतलो? पावसान बेकारसाण आसता, तसो धाडीन."

आतां आमी दोंगुल्ली देंवंक लागिल्ले. देंवती उबी आशिल्ल्यान हांवें जोतें हातांत घेतलें. कुडवाक संवय आसली. चडटना खरस मारताली, तर देंवतना तोल सांबाळचो पड. म्हाका चलपाची संवय जरी आसली तरी एक सारकें चलपाचें पडूंक नासलें. म्हजे पांय उसळटाले. वत सोसूं नज जातालें. कुडव मात थंड आसलो. मदीं मदीं चंची उगडून सुपारी तोंडांत उडयतालो. पान खातालो. ताचें तोंड सदांच तांबडें

दिसतालें. ताची शेंडी वाऱ्यार उबताली, आतां आमी वझऱ्या म्हऱ्यांत पाविल्ले. गोरवां दिस नासलीं. कुडवान उलो मारलो, "शडा, येतना सुरी हाड रे."

म्हाका भूक लागिल्ली. शडा सुरी घेवन आयलो. दोगूय जाणांनी वागाचें चामडें काडलें. कुडवान तें शडाच्या माथ्यार दिवन आपल्या घरा व्हरून घेतलें. तशेंच माटवार सुकत उडयलें. दनपार जावन गेल्ली. म्हाका रांदूंक जाय आसलें. 'कुडव माम, म्हाका जेवण आसा जाल्यार दी; उष्टीं म्हजीं हांव काडटां. इतले मजगतीं ताची बायल भायर आयली. म्हणूंक लागली,

"आमील आसा, तेका वाडया."

"दी तर हाडून."

तिणें एका ताटांन घालून काळश्या नाचण्यांची खीर कशी हाडली. खरें म्हळ्यार म्हाका ओंकूंक येतालें. तोंडांत घालतकच गोड गोड लागतालें. हांवें दोळे धापले आनी ती आमील घटा घट पिवन सोपयली. रूची परस पोटाक थाकाय येवंक जाय अशें हांवें थारायिल्लें. मागीर ताट घांसून तांकां दिलें. उष्टीं काडलीं. रानांतल्या खाजराच्या झाडाचीं चुडटां काडून तांणी मांदरी विणिल्ली. ती न्हिदूंक दिली. कुडींत वचून बोटवो उशाक घेवन हांवें ताणून दिलें.

घडक् असो आवाज येतकच म्हाका जाग आयली. दोळे चोळीत भायर येवन जांभय दिली. कुडवान रानांत वचून सुक्या झाडाचें खोड हाडून उडयल्लें. "शिन्या, फस्कट हाड" म्हणना फुडें ताची घरकान्न फस्क हातांत घेवन आयली "आटव्या, हें आबोक फस्कट दी" म्हणना फुडें तिचो चेडो फस्क घेवन कुडवा म्हऱ्यांत गेलो आनी फस्क दिलें. शिनें सान्न घेवन गोठ्यांत गेलें. लागशिल्लीं सुकीं पानां सान्नीन एकठांय केलीं. कुडवान उजो पेटयलो आनी खोडाक उजो लायलो. शीं तशें व्हडलें नासलें तरी त्या खोडाचो धग तो घेतालो. आतां फुडल्या खोपटा मुखार एक एक पल्ली पेट्टना दिसताली. जाणटे, नेणटे त्या धगाक आंगार घेताले. हांवें विचारलें,

"आबो, तूं कित्याक शेकता?"

"शेकप म्हळ्यार आमचें न्हाण. तसो चार दिसांनी हांव न्हातां, तरी पल्लेक सदांच शेकतां."

कुडवागेर बसूंक कदेल नासलें. पाटाचेर बसचें पड. पाटांक ते 'माणाय' म्हणटाले. सांजवेळ जाल्ली. कुकडां शेतांत विस्कुट्टालीं. गोरवां आपापल्या गोठ्याकडेन परततालीं. कुडवान म्हळें, "आंवाळ्या, तूं यो, हांव चयतां तेंकां"

घागरो पोलको घाल्लें काळें कुळकुळीत चेडूं घरांत सरलें. तें कुडवालें चेडूं

जावंक जाय अशें म्हाका दिसलें. कुडवा म्हन्यांत वचून पल्लेक शेकूंक बसलें. म्हज्यान तो धग म्हन्यांतसून संवय नाशिल्ल्यान घेवंक जायना जालो, तेन्ना पैस वसून तो घेवंक लागलों. कुकडां घुडांत येवंक लागिल्लीं. गोठ्यांत गोरवां पाविल्लीं. शिन्यान दावीं घालीं. हातांत उदकाचो तांबयो घेवन तें गोठ्यांत गेलें, थोड्या वेळान तांबयो भर दूद ताणें काडून हाडलें. कुडवाक म्हळें, "म्हाका पेलो भर रातचें दूद दी" तुजे पैशे घे. रूपया भर हातार उडयतकच ताणें मान हालयली.

आतां बरोच काळोख जाल्लो. पैसुल्ल्या खोपटांनी मनशाची उलवट आयकूंक येताली. कुडवान उलो मारलो, "काळ्या, यो" काळखांत कोण तरी येतना दिसलो.

"काळ्या, आज कळाव कित्याक केलो?"

म्हाका पळोवन काळो लजतालो. काळो खरोच काळखा इतलो काळो आसलो. कुडवाक आयज केल्ली ती नविदाद सांगूंक जाय आसली, हे खातीर ताका ताणें उलो मारिल्लो जावंये. सोलमीठ लावन कुडवान वागाक कसो मारलो तें काळ्याक सांगलें. काळ्यान ताका विचारलें,

"आरे, बुदवंतकाय करता म्हणटकच कापोस्ताद आंगांन आसूंकच जाय. नागीण हांयें मारोंक नासली त्या शेतान!"

हांवें मदीं जाप घालून म्हळें, "आरे गजाल सांग नागणीची."

"मास्टर, गजाल सांगप कशी म्हाका खबर ना; ती पळोवपाची आसता. कुडव सांगतलो."

कुडवान म्हळें, "नागीण काळ्याच्या कोंबये घुडान येवन कोंवयो खावंक लागली तेन्ना रातचो कुत्रो भोकूंक लागलो. कुत्रो जेन्ना तिच्या आंगार गेलो, तेदेवेळार नागणीन तेजेर झोपय घाली आनी तेका गिळूंक लागली. कुत्रो जेन्ना भोकपाचो अकस्मात थांबलो, तेन्ना हो काळो सट्‌कलो. कवड काडून भायर यो तर आंगणान नागीण कुत्र्याक गिळटा. तोंडांत कुत्रो आशिल्ल्यान ती धांवन वचोंक शकना आसली, तेन्ना हेणें पाळ उखलून तिचेर घालें. नागणीन हेजो पांव धरलो तरी हातांत पाळ घेवन तेणें तोंड चिरलें. नागीण मेली. लोळत लोळत शेतान पडली. सगल्याक रक्तान तांबडें जाल्लें." काळ्यान तोंडांत पान आसलें धुकून उडयलें.

कुडवान म्हळें, "इतलें तांवडे रगत आसलें तें!" मातसो रावन ताणें काळ्याक फर्मायलें, "हो मास्टर येयला, तेन्ना वाड्यावयल्यांक सांग, सगल्या भुरग्यांक शाळेंत धाडूंक. आतां काम कसलें आसा?"

"वांयंगण रोवंक जाय न्हूं?"

"तर सांजवेळार धाडल्यार जालीं." हांवें म्हळें, "तुमकां फावता तशीं धाडात, हांव सकाळ-सांज शिकयतलों."

सकयले आंवाळेंत घुमटाचो आवाज येतालो. "आरे, हीं घुमटां कित्याक बडयतात?"

"शिगमो लागीं पावलो. घुमटां वाजोवंक शिकों नाका?"

शिन्यान सोप्यार चिमणी पेटोवन दवरिल्ली. म्हाका गरम उदक न्हावची संवय. कुडवाक सांगना फुडें तो म्हणूंक लागलो, "हांडी तापल्या, वचोन न्हा." मातयेची हांडी आशिल्ल्यान तांबयो गळ्यांतसून हळू काडचो पड. कपडे उमळून, पिळून हांवें ते दोरयेर सुकत उडयले.

रातचीं णव जायत आयिल्लीं. पेलोभर तापयिल्लें दूद तशेंच आमील म्हजे म्हन्यांत हाडून दवरली. नाचणे वांटून तीं आमील करतात, तरी खूबच गोड. म्हाका शिताची संवय आसली. कुडवाक म्हळें,

"हें पळय, म्हाका आमील चलना, शीत कर."

ताणें बरें म्हळें, वीस रूपया ताच्या हातार उडयले. पैशे ताणें तशे पळोवंक नासले. दूद पिवन, थोडी शी आमील भुरकावन पोट कशेंय भरलें. कुडवान म्हळें,

"हें ताट, हो पेलो तुका दवर."

आंगणांत उदकाची मडकी भरून दवरिल्ली, हांवें थंय वचून तोंड धुलें. लागसार केळ आसली. सगलें उदक तिका वतालें. ल्हान ल्हान केळमे वाडिल्ले. भायर पडटल्या त्या उदकाचो उपेग बरो जातालो. केळीक घड आसलो, तरी तन्नो. तिळसांजचें वागोळें केळीचे बोंडयेर बसतना हांवें पळयिल्लें. ताचीं भुरगीं झगडटालीं. ताणें धेंगसो घालतकच ओगी रावलीं. रातचीं तीं काळखांत न्हातालीं. काळखी रात आशिल्ल्यान भायर बसून फायदो नासलो. मांदरेर कुडींत वचून हांवें ताणून दिलें.

## ३

सकाळीं उठलों तर कुडव आनी भुरगीं पल्लेक शेकतालीं. आंब्याच्या पानाची चिवडी करून हांवें दांत घांसले. मडक्यांतलें उदक थंड लागतालें. सकाळचें 'शीं' बरेंच पडिल्लें. पल्लेक बसून शेकूंक लागलों. रात भर वाग दोळ्यां मुखार येतालो. सोमार आशिल्ल्यान शाळा शिकोवची हांवें थारायिल्लें. सकाळीं पेलो दितकच

शिन्यान च्या करून दिली. खावंक कांयच नासलें. निखटे च्याचेर तीं काम करतालीं, तांकां ताची सवंयच आसली. आंवाळ्यान हातांत सान्न घेवन घर झाडलें आणि तें आंगणांत सान्न मारूक लागलें. शिन्यान दूद काडून हाडलें. सूर्य वयर येतकच शीं नाच्च जालें. कुडवालो चेडो 'शिट्टो' गोरवांचीं दावीं काडूंक लागलो. दोन तीन घरांतले लोक एकठांय जावन म्हाकाच पळयताले. काळो शेतांत वतना हांवें पळयलो आनी म्हाका प्रस्न पडलो, हो खंय वता? शाळेंत वतना थंय पासय मारची अशें हांवें थारायलें. कुडवाक सांगलें, "त्या भुरग्यांक शाळेंत धाड." कुडवान तांकां शाळेंत वचूंक सांगलें.

कपडे घालून पांयांत जोतें चडोवन हांव शाळेंत वचूंक भायर सरलों. वाटेर गोरवांनी शेण केल्लें, तें चुकयत हांव चलतालों. आतां हांव शेतांत पाविल्लों. शेताचे वयले कुणगेंत आंव्या मुळांत काळो दिसलो. हांव थंय वचून पळय तर तो पोरसाक उदक घालतालो. बांयचें उदक लाटीन काडून तो तें पलवण्यांतल्यान सोडटालो. तें लानश्या मागांनीं पोरसांत खेळटालें. पोरसांत मिरसांग, भेंडे, तांबडी भाजी, गड्डे पळोवन म्हाका समाधान जालें. कितली तट्टीत दिसताली ती भाजी! काळो थांब नासतना घोळप घेवन पाटापिळ्या वयल्यान उडी मारतालो, ते सरशीं कोळंबे बांयंत भितर उदकाक लागताले. परत आपसूक वयर येताले. कोळंब्या पोंदाक हात धरून तो ते पलवण्यांत रिते करतालो. लाट वयर सकयल वतना मजा दिसताली तरी काळ्याक घाम फुट्टालो. मनांत आयलें, कितले कष्ट पडटात आसतले बाबड्याक!

आतां हांव बोरी पोंदसून आड्यार पाविल्लों. शाळा खंय हाचो अदमास घेतालों. भुरगीं शाळेकडेन वतना दिसलीं. तांचे फाटोफाट हांव गेलों. शाळेंत आशिल्ली घांट वाजयली. भुरगीं जनगण मन म्हणूंक लागलीं. तीं आपणाक जाय तशें म्हणटालीं, एका आवाजान एकाच वेळार तीं म्हणूंक शकनासलीं. मागीर हांवें तांकां सांगलें, हांव म्हणटां तशें म्हणात. जन गण हांव म्हणटकूच तीं सारकीं म्हणूंक लागलीं. तांकां गणवेष नासलो. थोड्यां कडेन पाटी आसली तर थोड्यां कडेन काडी. थोड्यांक अ आ ते ज्ञ ज्ञा मेरेन येताली. थोड्यांक पाढे येताले. हांवें तांका नांव सांग म्हणटकच म्हणूंक लागलीं- आंवो, बांगडो, धावळी, कुष्ट, आंवाळो, निमणो, आटवो, तर चली-भुरगीं म्हणूंक लागलीं- भांगरकडी, साळी, मिरसांग, आंवाळी, साळोरी. तांचीं तीं नांवां आयकून म्हाका हांसुंकूच येतालें. माथ्यार पेज घेना आसतना दोळयां-मुखार दिसता ते वस्तीचें ते नांव दवरताले जावंये. तांकां शाळा निवळ करूंक लायली. तशीं भुरगीं कामाक वरीं आसलीं. पयलींच्या मास्तरांनी तशें तांकां शिकयल्लें.

तासभर जातकच धांट मारून तांकां सोडलीं. सकाळीं तांकां घरा कडेन काम आशिल्ल्यान सांजेचीं येयात म्हणून सांगलें.

म्हाका च्याची तलफ आयिल्ली. हांव च्या दुकानाची वाट चलूंक लागलों. पयलीं सारको चलपाक म्हाका त्रास जायना आसलो. थंय वच तर च्या दुकानांत कोणच नासलो. उलो मारलो, 'च्या दुकानकार, च्या दुकानकार' तरी परत जाप नासली. घडये दुकान उगडपाचें आसत असो विचार करून हांव दोंगर देंवंक लागलों. इतल्यांत 'आंवाळें' गोरवांक राखतना दिसलें. तें झाडार चडून आंवाळे उडयतालें. म्हाका भूक लागिल्ली. सकयल पडिल्ले चार आंवाळे हातांत काडून हांव खावंक लागलों, तेन्ना आंवाळ्यान म्हळें,

"मास्टर, उकडोंक जाय ते. हरवे खायल्यार पोटांत मुड्डतलें."

तरी हांवें भुके नेटार चार खालेच. आंवाळे म्हाका पळोवन हांसुंकूच लागलें. काळ्या तोंडांतल्यान धव्या दातांतलो हांसो पळोवन म्हाका गिरसप्पा घोग्याची याद आयली. आंवाळेच्या खांद्या कणकणी वचून तें आंवाळे बुड्डितालें. हांवें म्हळें, "आगो, माकडच तूं! ताळये कणकणी भोंवता मुगो!" ताका राग आयलो. तें सकयल देंवलें आनी गोरवां फाटल्यान धांवलें.

तसोच कुडवागेर आयलों. म्हाका गरम उदक न्हावची संवय आसली. चार कळशे हाडून हांवें हांड्यांत घाले. लाकडां दाळून दवरिल्लीं. तीं घालून उजो पेटयलो. गरम गरम उदक बोडावयल्यान घालतकच जीव ल्हव दिसूंक लागलो. दनपारचीय आमील खावची पडतली हे मनांत येतकच म्हाका कशेंशेंच दिसलें. उमेद नाच्च जाली. कुडव आंगणा फुडें कुराडेन लाकडाच्यो कापट्यो करतालो. कुराड खंय मारल्यार बरोबर कापटी निखळटली, हाचें गिन्यान ताका आसलें. वताची ताका पर्वा नासली. वतान ताची कात करपल्ल्यान वत ताका तितलें बाद नासलें. शिन्यान सुके बांगडे भाजले. वासानच खाल्ल्याचें समाधान मेळ्ळें. दनपारचो वारो व्हांविल्ल्यान पणसाच्यो खोलयो पडून सगल्याक कोयर करताल्यो. कुडवान कापट्यो फोडून जातकच बांयचे चार पांच कळशे भरून हाडून माडयांक, केळींक घाले. खावची पाना वाल आंब्यार बळिल्ली. पिकीं पानां चार पांच पडिल्लीं तीं कुडवान हाडून सोप्यार दवरलीं. शिन्यान ताटांन आमील वाडून हाडली. सुक्या बांगड्याचो कुडको चघळायत त्या वासानच आमील पोटांन धुकल्ली. हातांत तांबयो घेवन केळी मुळांत उदकाचो घोट घेतलो. सगल्या तोंडाक उदक सारयलें, तशें मात्शें बरें दिसलें. शिट्टो-कुडवाचो चेडो म्हाका येतना दिसलो. खंयच्यान तरी तेफळां ताणें हाडून आंगणांत

सुकत उडयलीं, तो घरांत भितर गेलो. "आवो, आमील वाड" म्हणूंक लागलो. चिंचे मुळांत एक कुत्रो कोणाक तरी भुकतालो. कुडवाचो धाकटो चेडो 'बिबटो' जेवणा वेळार आयलो. कुडव आतां जेवन मेकळो जाल्लो. जेवतकच ताका पान खावची संवय आसली. आपलें तोंड तांबडें करून तो पीच पीच करून थुकतालो. बिबट्याच्या आंगाक खोरोज जाल्ली. "पिठ्या, उदक हाड बांयचेर वचोन" म्हणना फुडें तें कुडवालें चेडूं घरांतसून भायर येवन कळसो घेवन बांयचेर गेलें. हांडीर कळसो घेवन येवची ताका संवय आसली जावंये. पट पट पावलां उखलून तें कळसो घेवन येवन घरांत हांड्यांत उदक भरतालें. बारीकसाणेन ताका हांव पळयतालों. इतल्यांत माकडांचो पंगड पलतडच्यान आलतडेन येतना दिसलो. कुडवान शिट्ट्याक सांगलें, "वचोन आमूड तेंकां, त्रास दितले ते." शिट्ट्यान डबो घेतलो आनी एक बडी घेवन धांवलो. डबो बडयतकच जीव आसल्यार भीक मागून खायन अशें चिंतून ते धांवंक लागले. व्हाळा पलतडेन पावतकच शिट्टो आयलो.

सोप्यार वारें बरेंच लागतालें. म्हाका बशिल्ले कडेन झेमडी आयली. मदींच म्हाका जाग आयली. तोंड धुवन पांयांत जोतीं घालून हांव शेतांतसून चलूंक लागलों. भुरग्यांचो कुलकूल वयल्या शेताचे देगेर येतालो. थंय वचून पळय तर वयले तशेंच सकयले आंवाळीचीं भुरगीं एकठांय जावन वडाचेर खेळटालीं. सात आठ जाण खेळटालीं तर बाकी सकयल रावन तांकां पळयतालीं. सकयल एकटो रावन दोळे धांपून आसलो. बाकीचीं वयर वडार चडून जातकच कुट्टुन्यो करतालीं. म्हणटकच तीं वडाच्या पाळाक घट धरून सकयल देंवतालीं, परत वडार चडटालीं. सकयल राविल्ल्यान वडार चडप, मागीर पाळांक धरून देंवप आनी परत वडार चडून तांकां आफुडप. आफुडटकच तो चोर. ताणें सकयल रावप आनी तांकां कोणाक हाताक लागता ताका आफुडप. अशे तरेन वडा वयरसून सकयल देंवप आनी वयर चडप हें चालू आसलें. तांची ती उमेद पळोवन म्हाका ल्हानपणची याद आयली. म्हजेर नदर पडना फुडें तीं भुरगीं "मास्टर येयलो, मास्टर येयलो" करीत धांवलीं. तांचो खेळ मदींच वंद उडोवंक हांवूच कारण जालों हाचें मनाक वायट दिसलें. दोग तीग बायलो तोंडान पदां म्हणत करड कापताल्यो. गोरवांक करड भिजोवन घालतकच तणाची गरज आसना. हे खातीर गोठ्याच्या माळयार करडाच्यो वेठी बांदून दवरतात. हांगा जण एकटो गोरवांकार करड काडून दस्तन करून दवरतालो. काळो येतना वाटेर मेळ्ळो.

"खंय रे वता?"

"हिंगाच दोन वांशे मेळत तर चयतालों."

"यो मास्टर यो" म्हणत तो म्हाका घेवन आपल्या घरा गेलो. फुडलें दार सामकें मोडवें आसलें, हे खातीर घरांत भितर सरतना नमस्कार करूनच भितर सरचें पड. घरांत काळोख आसलो. चॉकलेट खातकच बेगड आसता ती वणटीक चिकटावन दवरिल्ली, तितलीच सजावट! बांकाचेर भाताचे मुंडे बांदून दवरिल्ले. म्हाका ताणें दूद नाशिल्ली च्या करून दिली. साखर खूबच घाल्ली. बसूंक पाट ताणें पयलींच हाडून दिल्लो. "मास्टर विडी ओडटा?" अशें म्हणत ताणें तंबाखू कुड्याच्या पानार घालून हाडून दिलो. हांवें म्हळें, "हांव विडी ओडना."

"बरें पान खाता?"

"खातां केन्नाय तरी. आतां नाका. च्या पितकच खायना."

ताका वायट दिसलें. ताचें तोंड निरशेलें. माये-मोगान दिल्ली विडी न्हयकारप न्हय, अशें येवजून हांवें तें पान वळून विडी केली; उज्याचे कोलतेन ती पेटयली. त्या कुड्याच्या वासान म्हाका अशी खोकली आयली. म्हजो हुस्कार वयरच चडूंक लागलो. हांवें ती विडी उडयली. उदक पितकच बरें दिसलें.

हांव आनी काळो भायर आंगणांत आयले. वत मोव जाल्लें. सूर्य बरोच देंविल्लो. झाडांच्यो सांवळ्यो उदेंती वटेन लांबचे लांब पडिल्ल्यो. एका फाटल्यान एक गोरवां गोठ्या वाटेन येतालीं. काळ्याची बायल हांडीर उदकाची मडकी घेवन येताली. फाटल्यान सात आठ वर्सांचो तिचो चेडो माथ्यार उदकाचो तांबयो घेवन चलतालो. ल्हानपणा साकूनच तांकां कामाची अवकण मेळटाली. काम केल्ल्यान तांकां पिडा आफुडनासली. इतल्यांत आंगणांतसून शिल्ली धांवली. तिका पळोवन हांवें आंग काडलें. तेन्ना काळो म्हणूंक लागलो, "मास्टर, हें शार न्हय, हिंगा येता त्या दिसाक- वेळाक तोंड दिवचें पडटा. कसलो वेळ येत सांगू नजो, भिवन उपकारना. तेचेर शेक गाजोवंक जाय." अशें म्हणून ताणें बडी काडून शिल्ली मारली,

हांवें म्हळें, "शिल्लेक मारून तुवें कितें व्हडलो पुरुषार्थ केलो काय कितें!"

"आयक मास्टर; एक दीस म्हाजो पेटो नाच्च जालो. दोन दिसांनी माजर ना जालें. सातव्या दिसाक ते न्हंयच्या कांठार गोरवां उदक पिवंक गेल्लीं; वैतना पाडून आसलें, तें येतना म्हाका दिसलें ना. गोठ्यांत वचून परत मेज तर पाडूक नासलें, हांव न्हंयचेर धांव तर नागीण पाडकाक गिळून मेकळी जाल्या. कुंवल्यालो चेडो नाच्च जालो. ही नागीण संवकल्यार कोणाकच दवरची ना हें आमकां कळ्ळें. तरी तिका मारप कशें हो प्रस्न आसलो. हांव तिचे पाळतेर रावलों. ती दिसान यिवरां

रावताली; रातची, तिळसानची भोंवताली. चडशी गोरवां उदक पितात थंय येवन ती दोळे धापून लिपून रावताली. न्हंयचे पेले तडेन देगळ आसलें, थंय रावल्यार ती सारकी दिश्टी पड. ती वरीच खाला जाताली. चार जाणांनी एकठांय येवन व्हडलो फातर आमी देगळार देगेर हाडून दवरलो. हांव परत परत वचून नागीण येता काय चयतालों. एक दीस दनपारची ती न्हंयचे देगेर दिसली, तरी आमी दवरिल्लो फातर धुकल्यार तिचे शेपडेर पडटलो हें येवजून हांवें तो उडयलो ना. चार पांच फावटीं ती येवन म्हाका जाय तशी मेळना जाली. एक दीस गोरवां येवचे पयलीं हांव थंय वचून रावलों. गोरवांच्या पावलांचो आवाज येतकच ती हळू हळू, फुडें फुडें येवंक लागली. फातर उडयल्यार तिच्या तोंडार पडटलो असो अदमास घेत हांवें दाड देवाक उलो मारून देगळावेलो फातर धुकलून दिलो. त्या फातराच्या आवाजान नागीण मात्शी फुडें सरकली, तरी तिचे फाटीर तो फातर पडिल्ल्यान ती चिड्डल्ली, ती वळवळूंक लागली. फातराच्या वजनान ती फुडें तशेंच फाटीं वचूंक शकना जाली. हांवें हातांत पाळ घेवन तिच्या तोंडार मारून तिचें तोंड कापलें, तरी शेपडी हालतच आसली. सगलें उदक तांबडें जालें. गोरवां नागणीक पळोवन भयान उदक पिये नासतना गोठ्यांत धांवलीं. कुडवान म्हजी कापोस्ताद पळोवन म्हाका नवो कुडव भौमान म्हणून दिलो." अशे म्हणत ताणें घरांत आशिल्लो कुडव हाडून म्हाका दाखयलो. म्हणूंक लागलो,

"हो कुडव घरांत येत साकून तांदूळ फाल्त जावंक ना, पीक वर्सान वर्स बरें येता."

न्हिदेंत आशिल्ले वरी हें हांव आयकतालों, सामको गुल्ल जावन. गोरवां गोठ्यांत पाविल्लीं. वारो व्हांवतकच गायरींतल्या शेणाचो वास येतालो. "काळ्या, तुका शेणाचो वास येना रे?"

"म्हाका शेणाचो वास येना कित्याक तर? शेणानच वीदाद काबार जाली! मास्टर, तुका ह्या वाऱ्याचो वास येता? ना न्ही? मागीर?"

"काळ्या, तसो तूं हुशार आसा मरे!"

"ही हुशारकाय न्हय, हो म्हजो अणभव."

काळ्यान आंगणामुखार आबोली फुलयिल्ली. ताची बायल फाती करून माळटाली.

"मास्टर, हीं आवोलीं कुडवा वायलेक व्होरोन दिशीत?"

हांवें बरें म्हळें. केळीच्या पानांत ताणें आबोलीं घालून दिलीं. दारा मुखार

तुळशीचो रोपो आसलो. मातयेची पेडी ताका धरिल्ली. आबोलीं हातांत घेवन हांव कुडवाचें घर लागीं करूंक लागलों.

"मास्टर, हातीन दांडो घे, उपकर पडटलो."

हातांत दांडो घेवन हांव चलतालों. वाट मळिल्ली आसली. वाटेर एक बैल आसलो. ताका दांडो दाखयतकच तो कुशीन सरलो. कुडवागेर पावलों तेन्ना काळोख मांडटालो. आंवाळें न्हातालें. कुडव आंगणांत बसून "वेगीन न्हा, कितलो कळाव?" म्हणटालो. शिनें गायचेर गोठ्यांत धेंगसो घालतालें "...वागा दितां तुका." आटवो हांड्याचो उजो सारतालो. कुडवाकडेन हांवें आबोलीं दिलीं.

"म्हाजे कडेन कित्याक दिता आबोलीं? त्या पिठ्या कडेन दी. तें गुंथतलें."

पिठें सोप्यार आबोलीं गुंथूंक लागलें. नेकेत्रां मळबार उदेतालीं. हांड्याचो धुकट आंगणांत येतालो. शिन्यान दुदाचो भरिल्लो तांबयो घरांत व्हेल्लो. हांव सोप्यार बशिल्लों. चान्न्यांत शिनें बडयेन निरपणस काडून हाडून शिनूंक लागलें. वागाची गरड आयकूंक आयली. हांव भितर कुडींत धांवलों, तशें दार लावन घेतलें. वाग गोठ्या वटेन येवंक लागिल्लो. कुडव चूड पेटोवन धांवलो. चूड पळोवन वाग गरड घालून नाच्च जालो. वऱ्या वेळान कुडव म्हणूंक लागलो, "वागाक मारिल्ल्यान वागीण चवताळ्ळ्या. ती मेळत ताका खाले शिवाय रावची ना. दोन तीन दीस तरी तिका सांबाळूंक जाय, गोरवां पलतडेन चरूंक सोडल्यार हुस्को ना."

रातचें ग्लास भर दूद पिवन हांव न्हिदलों. म्हाका मदीं मदीं जाग येताली. कुडवागेर जेवण जेवतालीं, कोण न्हातालीं, कोण न्हिदतालीं. काळ्यान सांगिल्ली गजाल म्हाका अजापांत उडयताली, तरी विचार करूंक लायताली. वागीण येत हाचो म्हाका हुस्को आसलो, तरी कुडव बिनधास्त आसलो. रातीचें भायर वचचें पडल्यार कुडवाक उलो मारून वचप अशें मनांत हांवें थारायलें. रानांत जशीं जनावरां फायची चिंता करी नासतना जियेतात, तशेच हे लोक जियेताले. कुडव म्हणटालो, "आमकां दीस असो आसना. आमचें काम सुरू जातना तो उदेता, काम सोपतकच दीस पालवता. रातीन सुशेग मेळटा ही गजाल खरी."

इतल्यांन आंवाळें आनी आटवो झगडूंक लागलीं. एकामेकांक मारूंक लागलीं. कुडवान धेंगसो घालो तेन्ना आयकना जालीं. तेन्ना कुडवान एक एक थापट दोगांचेर लायलें. आतां तांचो रडपाचो आवाज येतालो. न्हीद येताली ती खंयचे खंय नाच्च जाली. कुडव म्हणूंक लागलो, "आवाज तोंडातसून येत तर आनीक थापटां पडटलीं," आतां आवाज बंद जाल्लो.

आंवाळें म्हणूंक लागलें, "म्हाका जेवण नाका."

कुडवान सांगलें, "तूं कशें जेवचें ना तें पळयतलों. आतांच घरांतल्यान चल, मागीर तुका जाय तें कर."

कुडवाचो वचक भुरग्यांचेर बरोच आसलो. ताका तीं भितालीं. आंवाळें मुकाट्यान जेवलें. हांव सगलें कुडींतसून आयकतालों. घुघूम रडपाचो आवाज येवंक लागलो. कुडव भायर वचून ताणें त्या झाडाचेर फातर मारलो, ते सरशीं घुघूम उडून गेलो. "शिन्या, पिडा धांवडयली गे" अशें म्हणत तो घरांत सरलो. गोठ्यांत दावणीक शिंगांचो आवाज आयकूंक आयलो. "शिन्या, चल, चय गोठ्यांत" अशें म्हणटकच शिनें हातांत दिवो घेवन गोठ्यांत गेलें. बऱ्या वेळान येवन म्हणूंक लागलें, "काब्रो सुटलोलो."

म्हाका केन्ना न्हीद पडली ती कळ्ळीच ना.



## ४

दाराची खिळी काडून हांव भायर आयलों तर सगलीं जाणां जामीं जावन पल्ले कडेन शेकतालीं. सकाळीं उठिल्ल्यान तांची बलायकी बरी आसता अशें म्हाका दिसलें. तोंड धुवन जातकच हांवूय पल्ले कडेन शेकूंक बसलों. पल्लेचो धग घेवंक खोस जाता हें हांवें अणभवलें. सुर्याचीं किर्णां दोंगरा वयल्यान उडकी मारून शेतांत देंवतालीं. सुकणीं चिंवकारतालीं. कोळमेन उदक ओतता तो उदकाचो आवाज येतालो. शिनें दुदाचे धारेन तांबयो भरता तो आवाज येतालो. कुत्रो रानावटेन तोंड करून भोंकतालो. हांवें विचारलें, "हो कुत्रो कित्याक भोकता?" कुडव म्हणूंक लागलो,

"रातचें वागूट येयल्लें तेचो वास येयला, देकून भोंकता. तेका भिता, मागीर पयस पावतकच भोंकता."

मसंगाचीं फुला आंगणांत झडटालीं. वारो व्हांवतकच धुल्ल उबतालो, तशेंच पणसाच्यो खोलयो पडटाल्यो, केळीच्या सोपाचो आवाज येतालो. थोड्या वेळान म्हाका नाचण्याची भाकरी हाडून दिली. बरोबर पेलो भर च्या. म्हज्यान ती अर्दी खावंक जायना जाली, तरी च्या पियेलों. म्हाका शाळेंत वचूंक जाय आसलें. वतना एके वालदेंत कपडे भिजत घालून गेलों. वयले आनी सकयले आंवाळीच्या घरा-

घरांनी वचून भुरगीं एकठांय केलीं आनी तांकां घेवन शाळेंत गेलों. कुडव शाळेंत आयलो. म्हणूंक लागलो-

"मास्टर, कुस्क्यांत वैतां; कितें हाडूंक जाय?"

"बारा पाटयो आनी काडयांचें बॉक्स हाड." हांवें म्हळें आनी ताका पन्नास रूपया दिले.

थोडीं भुरगीं पयलेंत, तर थोडीं दुसरेंत आसलीं. तरी विचारल्यार साद्या साद्या प्रस्नांच्यो जापोच येना आसल्यो. म्हजे पयलीं दोन तीन मास्तर येवन वाजेवन शाळा सोडून गेल्ले. परत परत चिरूक घालचें पड. तरी भुरगीं खरें उलयतालीं. चार चार दिसांनी न्हातालीं. हांवें तांकां सदांच न्हावंक सांगलें. कपडे सदांच बदलूंक जाय म्हणून सांगलें. सगलीं भुरगीं काळीं कुळकुळीत आसलीं. जन गण मन तीं म्हणटालीं, तरी एका सुरान म्हणूंक जमनासलें. शाळेचो भोंवतणचो वाठार तांकां निवळ करूंक लायलो. कामांत तीं रंगतालीं, तरी अभ्यास करूंक नाका आसलो. सांगिल्ली आज्ञा पाळटालीं. घांट मारून तांकां घरा वचूंक सांगलें तेन्ना तांकां खोस जावन गडबड करून धांवंक लागलीं. कुडवान पाटयो, काडयो हाडल्यो. उरिल्ले पयशे खर्चिले म्हणूंक लागलो. "म्हाका तुवें कुडीचें भाडें दिवंक जाय आसलें न्हू?"

सांजेच्या वेळार हांवें खंय तरी वचून नवो जागो पळोवचें थारायलें. काळो आंगणांत बसून विडी ओडटालो. हांवें ताका विचारलें,

"आरे, हांगा पळोवपा सारकें कितें आसा?"

"चल या" म्हणत तो जोतें पांयांत घालून भायर सरलो.

व्हाळांतसून पलतडीन वतकच बारीक वाट लागली. ती सोपतकूच मळ लागलें. फुडें व्हडले फातर आसले. तांचेर चडून आमी सकयल दोंगराचे ते वटेन गेले. थंय बांय कशी व्हडलो फोंड आसलो. काळो म्हणूंक लागलो,

"हितून मीन काडिल्लें तेन्ना हांव ल्हान. एक सायब येवन मीन काडटालो. तेणें हो बंगलो बांदिल्लो. 'सायबा बंगलो' अशें सगले म्हणटात. तो मोटोरान येतालो. हो रस्तो तेणेंच केल्लो. आंवळीच्या लोकाक काम मेळटालें. तो पयशे फारीक करतालो. तीन म्हयन्यान तेका मीन मेळना जालें, तेन्ना तो गेलो तो येयलोच ना. लोकांनी कायली, पिकास हातीक मेळत तें आपल्या घरा व्हयलें. लोक रातीन हिंगा येनात. रातीन ह्या बंगल्या भितर आवाज जातात. सायबान डायवराक मारून उडयिल्लो अशें म्हणटात."

आमी बंगल्या भोंवतणच्यान गेले तर जनेलाचें दार उगडें आसलें. म्हज्या

मनांत आयलें, घडये वाऱ्यान हें दार आपटून आवाज जाता जावये. बंगलो तसो व्हडलो नासलो. घर कशें, तरी चिरेबंदी. वयर नळे आशिल्ल्यान लोक बंगलो म्हणटाले जावंये. त्या वाठारांत तो बंगलो म्हण सारको आसलो; बंगल्याचो हळडुवो रंग पावसान गेल्लो. चारी वटेन झोपां आसलीं. दाराक कुलूप आसलें. मँगनिजाचे फातर कोणें तरी थंय हाडून उडयिल्ले. एक घांट वांदून दवरिल्ली. काळो म्हणूंक लागलो, "मास्टर, शाळेची घांट ना, तशी हो सायब कामाक येतना आनी कामाचो वेळ जातकच वाजयतालो." थोडे नळे माकडांनी फोडिल्ले थंय पावसाचें उदक गळटालें. काळो म्हणूंक लागलो,

"तो डायवर उल्याक उलो दिता. त्या कुंब्या झाडाकडच्यान उलो केल्यार 'हाँ' असो परत उलो मारता. तेजें भूत जावंक जाय तें." म्हाका हांसूंक आयलें.

"खंय रे, भूत खंय आसा."

"भूत रातचें भोंवता हे खातीर रातीन चडशे आमी ह्या वाठारांत येनात."

भोंवतां, भोंवतां ताणें म्हाका कुंब्याच्या झाडा पोंदाक हाडलो. हें झाड मीनाचे खणी सकयल आसलें. काळ्यान उलो केलो- "शाबा" तर "बा" असो आवाज आयलो.

"काळ्या, हो भुताचो आवाज न्हय. तुजीं उतरां ते खणीचे दुसरे देगेक आपटून परतीं येतात, तो आवाज. हांगा भूत ना."

ताणें दोन तीन फावट उलो मारलो तर निमणीं उतरां आयकूंक आयलीं. "हय मास्टर, तुयें सांगलें तें खरें."

खणींत झोपां वाडिल्लीं. चाळण थंय पडून आसली. काळो म्हणूंक लागलो,

"तेन्ना ह्या लोकांनी दोन पैशे मेळयिल्ले, ती खण चालू आसल्यार खोपटां वचून घरां जावपाचीं. आमीच नशीब फुटके!.."

सांवरीचीं तांबडीं फुलां सांवरभर जाल्लीं. कावळे कांव कांव करून सांवरीचेर बसताले. आमकां पळोवन ते उडून गेले.

"काळ्या, हे कावळे सांवरीचेर कित्याक वशिल्ले?"

"झाडा पोंदांक कितें मेलां आसतलें." वचून पळय तर हुंदीर मरून पडिल्लो, घाण येताली. आतां आमी सातोणा पोंदाक पाविल्ले. सातोण सकयल्यान वयर मेरेन चंवरिल्लो. 'हय हय' असो आवाज जावंक लागलो. पळय तर आंवाळें गोरवांक आमुडटालें- "घरा वोसात पयलीं."

काळ्यान म्हळें "आंवाळ्या, हेका वळखता?"

"तो मास्टर न्हू? आमगेर रावता मुरे!" अशें म्हणून तें लजलें. ताच्या हातांत काळीं चिवरां आसलीं, तीं ताणें काळ्याक दिलीं. "खा रे."

काळ्यान म्हळें "हीं चिवरां म्हाका काय मास्टराक?"

तें लजून थंयच्यान धांवलें. "मास्टराक" अशें ताणें वतना म्हळें. काळो म्हणूंक लागलो, "मास्टर हीं चय चिवरां, तुजे खातीर कांट्यांनी, खुट्यांनीं वचून तेणें हाडल्यांत." अशें म्हणत ताणें म्हज्या हातार तीं चिवरां दवरलीं.

चिवरां पळयतना खरें म्हळ्यार म्हाका ओंकूंक येवंक लागलें- तांचो तो रंग पळोवन. तोंडांत घालतकच कितलीं गोड लागलीं सांगू!- मनांत आयलें, आंवाळें लेगीत दिसूंक काळें आसलें तरी मनान गोड आसत काय? दिसता तशें केन्नाच नासता, देखूनच संवसार फसता, हें खरें आसत काय?

वाटेर गोरवांनी केल्लें शेण पडिल्लें, तें चुकयत आमी आंवाळी परतताले. काळो म्हणूंक लागलो, "मास्टर, म्हाजें पोरसूं चय." वंयेचें खाणूं काडून तो भितर गेलो, फाटोफाट हांव भितर गेलों. तांबडी भाजी, धवी भाजी, मुळो, तशेंच मिरसांगेचे रोपे किल्लून वेंत भर जाल्ले. "मास्टर, हीं खादळां. पावस पड मेरेन शिपूंक जाय. भाजी तुका जाय तर काडून दितां."

हावें म्हळें, "म्हाका रांदून कोण वाडटलो?"

"आमगेर यो आज, भाजी करया आनी खावंया."

कवकवीत भाजी पळोवन म्हज्या तोंडाक पयलींच उदक सुटिल्लें. हांवें म्हळें, "म्हाका घरा वतना थोडी काडून दी."

तो म्हणूंक लागलो, "वैता तेन्ना यो, जाय ती काडून व्हर."

हांवें 'बरें' म्हळें.

काळो आतां लाटीचें उदक कोळंबांनी काडून रकयतालो. घस्स् आवाजा सरशीं तें धांवत खांदलांनी पावतालें. एक खांदल भरतकच तें दुसऱ्या खांदलांनी पावतालें. हांव थंय रावन ती मजा पळयतालों. एकेच उडयेक कोळंबे बांयच्या उदका मेरेन पावताले. येतना सवकास येताले. तें काम करूनच ताचें आंग काटक जाल्लें, तोंड जरी ताचें काळें आसलें तरी पुष्ट दिसतालें. चिंता ताका आफडूंक पाव नासली. वयर आंब्याच्या रूखाक बारीक तोरां धरिल्लीं. काम करतना तो उलोवंक सोदी नासलो. वरा भरयान खांदलीं भरलीं. खोपटांनी दिवे झळकताले. खाणवाक काटी लावन आमी आतां घरचे वाटेक लागिल्ले.

कुडवाच्या आंगणांत पांय दितना कुडव म्हणूंक लागलो,

"मास्टर वोगोत जालो?"

"हय रे, काळ्या बरोबर सायबा बंगलो पळोवंक गेल्लों."

"आंवाळें म्हणी, थिंगाचें भूत मास्टराल्या बोडकार बसना जाल्यार पुरो!"

हांवें म्हळें, "बसल्यार बरें जालें, म्हाका सांगात जालो. नातर, हांव एकटोच न्ही?"

"मास्टर, तूं आमकां जाय. हीं भुरगीं शिकूं नाकात?"

"हांव ना तर दुसरो येतलो. सरकार कोणाक ना तरी कोणाक धाडटलोच."

कुडव ओगीच रावलो. आंवाळें आंगणांतसून वतालें तें धांवतच घरांत सरलें. हांवें कुडवाक म्हळें,

"आज रातचो काळ्यागेर जेवणाक."

उदक तापयिल्लें आसलें. तें न्हावन मेकळो जालों. कपडे आंगणांत बांदिल्ले दोरयेचेर सुकत घाले. चान्नें थोडें पडिल्लें. त्या उजवाडांत चलत काळ्यागेर गेलों. म्हजे खातीर आंगणांत ताणें बसूंक पाषाणी फातर हाडून दवरिल्लो, ताचेर बसलों. पिवंक उदक दी म्हणटकच गोडाचो कुडको आनी तांबयान उदक ताणें हाडून दिलें. भुरगीं खेळटना बोवाळ करतालीं. "मास्टर येयला, खबर ना? फाल्यां तो तुमची फाट फोडटला, करणाय मारशात तर." तीं सगळीं खेळपाचीं रावलीं. ताचे बायलेन भुरग्यांक वाडलीं.

"आरे, तुका 'काळो' नांव कित्याक पडलें?"

"आबोन म्हाका हांव कातीन काळो म्हणून घालें."

"बरें आसा, धवळो म्हणून कोण हे आवळीन आसा?"

"ना. हिंगा धवो मनीसच ना, मागीर नांव कशें आसतलें?"

मागीर ताणें म्हाका घुमटां वाजोवन दाखयलीं. भाजी करून वाडली. जेवणा उपरान्त आमी दोगूय आंगणांत न्हिदले. हांवें ताका म्हळें,

"काळ्या, तुजे जिणेंतली बरी गजाल सांग."

"आयक," म्हणून तो गजाल सांगूक लागलो, "शिगमो खेळटाले. घरा घरान वैताले. वयले आंवळीकार अशें आमकां म्हणटाले. आमी मेळ खेळूंक कुसक्यां गेल्ले. मेळ खेळटां खेळटां वेळ जालो. वेळ धारेक गेल्लो. हातांत चूड घेवन दाडदेवळे कडसून आमी येताले. शिमेर पावंक वडा फाटल्यान येतालो नाच्च जालो. थोडो वेळ रावतकच तेका उलो मारलो तरी तेचो उलो परतो येना जालो. आमी सगले फाटीं परतले. म्हणटासर काळखान कांयच दिस नासलें. चूड हातांत धरिल्ली,

तरी तिचो उजवाड पैस पड नासलो. शडा खंयच दिस नासलो. तशेच आमी दाड देवाऱ्या म्हऱ्यांत सून फुडें गेले तर शडा झोपांनी पडून हूं हूं करतालो. त्या आवाजा वयल्यान आमी तेका सोदून काडलो. तो पडून आसलो. तेका वयर काडलो. तेजेर मोनेळ पडिल्ली. कितें करता तें तेका कळनासलें. थोड्या वेळान तो खुदूंक लागलो. चार जाणांनी धरलो तरी आयकना जालो. झाडाच्या सालींनी तेचे पांय हात बांदले तरी तो नेट मारतालो. कसोच आयकना जालो. तेका उखलून खुटये कडेन मांड मोडटा थिंगा हाडलो. तेणें पास तुटयले आनी लोकाक थापटां मारूंक लागलो. म्हाज्यानी तें चवं नजो जालें. हातांत दांडो घेवन त्या शडाक बरोच बडयलो. मारता तितलो तो चवताळटालो, तरी सोडलो ना. मार मार मारतकच बऱ्या वेळात तो घुंवळ येवन पडलो. घागर भर उदक तेचेर ओतलें; बऱ्या वेळान तो उठून बसलो- न्हिदेन आशिल्ले सारको. कितें करता तें तेका कळ्ळेंच ना. तो मेळ्याक सांपडिल्लो. तेन्नाच्यान कोणय म्हाजे मुखार खुदूंक भियेतात ते माराक लागून."

रात बरीच जाल्ली. सकयले आंवाळीक कुत्रो भोंकतालो तो वयले आंवाळीक आयकूंक येतालो. चंद्र पडिल्लो. आमी दोगांयनी आंगणांत न्हिदपाचें थारायलें. काळ्यान पल्ली पेटयली. शीं तशें व्हडलें शें नासलें. ताणें मांदऱ्यो घाल्यो. ताचेर कांबळ सोडली. म्हाका चादर दिली आनी आपूण कांबळ घेवन न्हिदलो. पैस कोल्याचो कूय कूय केल्लो आवाज जातालो. गोठ्यांत गोरवांचीं शिंगां एकामेकांक आपटून बरोच व्हडलो आवाज जातालो. कांबळीचीं कुसां म्हाका न्हिदतकच लागूंक लागलीं. हाल नासतना हांवें मळबाकडेन तोंड करून चादर पांगुरलें. हाताचें उशें केलें. नेकेत्रां दोळे मोट्टे करून धरतरे वयलो काळोख पळयतालीं. थंड वारें मदीं मदीं व्हांवतालें. पल्लेचो धुकट वारो फिरतकच आमचे वटेन येतालो. काळ्याच्या घरांत मनशां घोरेतात तें भायर आयकूंक येतालें. पत्र्याचो पैस सरसर आवाज जातालो. कुडवागेर दिवो केन्ना पालवल्लो. दोळे बळयांच चिड्डून हांव रावलों. न्हिदेन केन्ना म्हजेर झोपय घाली हें म्हाका कळ्ळेंच ना. मदींच म्हजे पांय जड जाल्ले सारखे म्हाका न्हिदेंत दिसले. हळूच म्हाका जाग आयली, तरी म्हज्यान पांय हालोवंक जायना जालें. तकली तशीच वयर काडून पळय तर कुसडो मांयडोळ पांया वयल्यान वतालो. हाल्ल्यार तो चावतलो हें खबर आसलें. तोंडांत सून उतर फुटना जालें. तो हळू हळू पांयांवयल्यान वतालो तें म्हाका कळटालें. कितें जाता तें जावं म्हणून हांव तसोच रावलों. मांयडोळाची शेपडी दोनी पांयां वयल्यान सकयल पडली. आतां पांय ल्हव दिसूंक लागिल्ले. पांय हालयल्यार चावत म्हणून म्हाका भंय आसलो. थोडो

वेळ हांव तसोच रावलों. मागीर बसून पळय तर आंगणाची मेर मांयडोळ हुपतालो. त्या काळखांत तो सारको दिस नासलो तरी ताचो आकार कळटालो. काळो पोटली शी! करून न्हिदिल्ल्यान ताच्या पांयां सकयल्यान येवन तो म्हज्या पांयांर चडलो.

म्हजी न्हीद खंयचे खंय गेली. हांव उठलों, पल्ले कडेन गेलों. उजो सारको पेटोवन शेकूंक बसलों. भंयान म्हजे हात पांय थंड पडिल्ले ते सारके जाले. काळ्याक कांयच खबर नासलें. तो घोरेतालो. रानांतल्यान 'सोरोऽऽ सोरोऽ' असो पत्र्याचो आवाज येवंक लागलो. पळय तर दोन साळी उज्याक येवन राविल्ल्यो. हांवें 'हार्त, हार्त' अशें केलें. त्यो धांवल्यो. म्हजे वयलें संकश्ट पयस जाल्लें. आतां म्हजी न्हीद गेल्ली. आनीक कसलें संकश्ट येत म्हणून हांव चिततालों. इतल्यांत माजर येवन पल्ले म्हन्यांन शेकूंक बसलें. माजराचो सांगात म्हाका व्हडलो दिसलो. चिवंक चिवंक असो आवाज जातकच हुंदराचे आशेन तें धांवलें. आतां हांव एकटोच आसलों. काळो आसूनय न्हिदिल्ल्यान ताचो सांगात म्हाका कसलो मेळटालो? हांवेंच ताका राखूंक जाय आसलो. एक एक खीण मेजीत हांव रात सारतालों. न्हिदतकच रात केन्ना सोपली हें कळना, तर जागतकच रात सोपच ना. जांभयेचेर जांभय येवंक लागली. दोळे न्हिदेन जड जाल्ले, तरी न्हिदतलों म्हळ्यार कुसडो मांयडोळ परत येत म्हणून भंय दिस. कीड शेतांत आपलें गायन करताली. तें गायन भिरांकूळ दिसतालें. वारो येतकच पानार पानां घासून येवपी आवाज राकेसाचो हांसो दिस. मनांत आयलें, कुडवागेर कुडींत असुदाय न्हीद पडपाची, ती सोडून ह्या फंदाक पडून न्हीद वगडावन बसलों. शुक्राचें नेकेत्र उदेल्लें. कुडवागेर चिमणी पेट्टा ती दिश्टी पडली. काळो कूस परतितना जागो जालो. काळ्या, म्हाका कुडवागेर पावय. ताणें म्हाका कुडवागेर पावयलो. कुडींत वचून हांवें ताणून दिलें.

## ५

म्हाका आंवाळ्यान येवन उठयलो. "मास्टर, वोगोत जालो. शाळेन भुरगीं पावलीं!" हांव सट् करून उठलों आनी तोंड धुलें. आंवाळ्यान च्या हाडून दिली. तसोच शाळेंत गेलों. भुरगीं एक बोट दाखोवन परत परत भायर धांवतालीं. तांकां शिकप नाका आसलें, तरी कामाची आवड आसली. शिकप तांचे तकलेंत वचूंक बरोच वेळ लागतालो, तरी एक फावट भितर वतकच भायर येना आसलें. भुरगे

चडशे काश्टी मारूनच येताले, तशें पळोवंक गेल्यार सगलो गांवचो लोक काश्टी मारतालो.

सांजचो हांव बेगसार सकयले आंवाळी गेलों. थंय मुखेल असो कोणच नासलो. कुडव दोनूय कडचें बुदवंतपण करतालो. व्हाळाचें उदक बांद घालून आडायिल्लें. तें शेतांत येतालें, थंय ऊस पिकयताले. ऊस बरोच व्हड जाल्लो. थोडे लोक तो कापताले. शेता मदीं ऊस मळपाचो घाणो आसलो. सांजचीं शाळेंतसून येतकच भुरगीं तो घाणो फिरयतालीं. एकटो जाणटेलो ऊस घाण्या भितर घालून दवरतालो. चळ्चळ् करून सकयल्या आयदनांत रोस पडटालो. भुरगीं ऊस तोंडान सोलून खातालीं. “आबो, आयदन भरलें, काड.” अशें म्हणटकच तो तें आयदन व्हडले कायलींत व्हरून घालतालो, रितें आयदन परत दवरतालो. एके व्हडले कायलींत तो रोस आटोवन ताचें गोड करताले. थोडें गोड खाताले. तांकां गोड सामकें आवडटालें. उदक पितना, जेवतना, बेकार आसतना गोडाचो कुडको तांकां खावंक जायच आसलो. कोलो तशींच रानदुकरां येवन रातीचीं उसाचो इबाड करतालीं. सगल्या घरांनीं एकटो तरी उसाच्या कामाक वतालो. गोड मेळटा तें सगळे वांटून घेताले. थंय एक ‘गिल्ली’ नांवाची म्हातारी रावताली. ती कांयच काम करूंक शक नासली. ऊस राखतली म्हळ्यार दोळ्यांनी तिका दिस नासलें. हे खातीर राशीर तिका तिचो वांटो म्हणून वेगळो काडटाले. सगलें कुडवाच्या मुखेलपणा खाला जातालें. दाड देवाक गोडाचो वांटो पयलीं काडून पावयताले. गोडाची ‘काकम’ म्हणून एके तरेचो पदार्थ करताले. तो खावपा सारको आसतालो. म्हाका तांणी ‘मास्टर, रोस घे’ म्हणून उसाचो रोस दिलो. मागीर काकम खावंक दिली. काकम म्हळ्यार पातळ गोड, मातये कोराचें. मातयेच्या आयदनांत ते गोड भरून दवरताले.

हांव फुडें गेलों तर वांयगण शेत रोयिल्लें. रोपां वेंतभर वाडिल्लीं. मदीं बकीं नुस्त्याचे आशेन बशिल्लीं. निळ्या मळबांत तिनसाजचें एक एक नेकेत्र दिसचें तशें पांचव्याचार शेतांत मदीं-मदीं, धवीं-धवीं बकीं दिसतालीं. सूर्य दोंगरा सकयल केन्नाच गेल्लो. शेवणीं आपल्या घोंटेरांनी पाविल्लीं. म्हाका कुडवाल्या घरा पावंक जाय आसलें. वाट तशी परिचयाची नासली तरी अदमासान खबर आसली. लागशिल्ली बडी हातांत घेवन हांव आयिल्ले ते वाटेन चलूंक लागलों. घाण्याकडेन भुरगीं नासलीं. गोडाचे कायली पोंदाक बरोच उजो पेट्टालो. म्हाका वाटेन वतना पळोवन काळो म्हणूंक लागलो, “मास्टर, वांगडा हांव येतां” म्हाका जिवांत जीव आयलो. आतां आमी दोगूय जाण चलूंक लागिल्लो. तो फुडें वतालो. ताचे फाटल्यान हांव

चलतालों.

आतां आमी काळ्यागेर पावले. काळो म्हणूंक लागलो, “मास्टर, च्या घेतलो?”

“नाका, वोगोत जालो न्ही? म्हाका कुडवाच्या घरा मेरेन पावय.”

“बरें”, म्हणून तो फुडें चलूंक लागलो. पांया पोंदाक कांयच दिस नासलें, तरी काळ्याक ती वाट सदचीच आसली. “आवो” असो उलो मारून काळो धांवलो.

“आरे, कितें जालें?”

“जिवाणें चाबलें.”

“मास्टर, कसलें तें जिवाणें वळखी.”

म्हाका जिवाणें दिसूंक नासलें. तें खंय गेलें कोण जाणा! काळ्याक वेग मारूंक लागले. हांवें कुडवाक आपयलो. कुडवान आनीक दोग तीग जाणांक आपयले. म्हणटासर काळो सामको उसळूंक लागलो. कुडव म्हणूंक लागलो,

“तेका वीख बादलां”

हांवें म्हळें, “दोतोरागेर व्हेल्यार बरो.”

कुडव म्हणपाक लागलो, “मास्टर सांगता तशें आमच्या दोतोरागेर व्होरोंया.”

काळो आतां घुंवळ येवन पडिल्लो. ताच्यान चलपाक नज आसलें. तो तोंडान करंदाय वदोवंक लागलो. शडा आयिल्लो. ताणें एक रूंद शें फळें हाडलें, ताचेर काळ्याक घालो आनी दोरयेन बांदलो. मागीर कुडवान आनी शडान तें फळें माथ्यार घेतलें. काळो वयर न्हिदिल्लो. ते दोंगुल्लेची वाट चडूंक लागले. कुडवागेर लापयांव आसलो, तो हांवें हातांत धरलो. वजऱ्या वयल्यान ते काळखे राती आमी दोंगुल्ली चडूंक लागले. काळ्याची वायल बरोबर आसली. वाटेर वाग येत म्हणून हांव भितालों. पांया पोंदा जिवाणें पडत म्हणून कुडवाक भंय दिस नासलो. माथ्यार फळें घेतिल्ल्यान तो वाग घेवंक शक नासलो. ते झपाझप पावलां उडयताले. चडटी लागली तरी पावलांचो वेग उणो जायना आसलो. आतां आमी दाड देवाचे देवळे म्हऱ्यांत पाविल्ले. जाण निकतोच पुजा करून देवळेचें दार वंद करतालो. म्हाका प्रस्न पडलो, हांगा दोतोर खंय आसतलो?

“घाडया बेगीन यो” म्हणून ताणीं काळ्याक देवा मुखार आडवो दवरलो. पळयत तर घाडीच तांचो दोतोर आसलो. ताणें विचारलें,

“कितें जालें?”

“जिवाणें चाबलां”

“कसलें?”

“खबरना.”

"रावात" म्हणत तो आपल्या घरांत धांवलो. साली वांटून ताणें आपल्या हाताक सारयल्यो. काळो हात पांय ताणटालो. तो वांचत अशें म्हाका दिस नासलें. घाडयान ताका सालीचो हात लावन ताका कसलें जिवाणें चाबलां ते ताडलें. मागीर ताणें ताका मिरसांगांचो पिठो आनी मिरीं खावंक दिलीं. तीं काळ्यान खालीं. हाचे वयल्यान ताका वीख बादलां हे घाडयाक कळ्ळें. ताणें ताका एके नाल्लेंत घालून पातळ शें कितें तरी पिवंक दिलें. तें पितकच काळो फकाफक ओंकूंक लागलो. सगलें खाल्लें काळशें शें जावन आशिल्लें. तें तो ओंकलो. ओंकून ओंकून तो जाम जालो. मागीर घाडयान ताका कांबळीन सगलो गुटलायलो. दोन दोळे तितले उकते दवरले. देवळे फुडें पल्ली पेटोवन ते पल्लेक ताका शेकूंक बसयलो.

आतां बरीत रात जाल्ली. घाडयान सांगलें, "आज तुका उपास. उदक लेगीत मेळचें ना. फाल्यां तुका त्या वेळार सुटका मेळटली, ज्या वेळार तें जिवाणें तुका चाबिल्लें. ते मेरेन तुवें न्हिदूंक उपकारना. झेम लेगीत घेवंक उपकारना."
काळ्याक घाडया सुवादीन करून आमी लापयांवाच्या उजवाडांत दोंगुल्ली देंवंक लागले. सगळी आंवाळी काळीच दिसताली- त्या लोकां सारकी. खोपटांनी दिवे लिकलिकताले. ताचे वयल्यान तीं घरां आसात हाचो अदमास येतालो. लापयांवांतलें तेल सरत आयिल्लें. तो बुगबुगूंक लागलो. अर्दी वाट तशीच आसली. सांगाताक तशे तीग जाण आशिल्ल्यान भंय नासलो, तरी पांया पोंदा जिवाणें पडत असो हुस्को जातालो. बेगिबेगीन पावलां उडयत आमी घर लागीं करूंक पळयताले. तरी मदींच लापयांव पालवलो. दोळ्यांकडेन काळोख आयलो. थोडो वेळ आमी थंयच बसले. रानांतसून पत्र्याचो व्हडलो आवाज आमचे दिकेन येतालो. कुडवान 'हार्त हार्त' करना फुडें तो आवाज येना जालो. कुडव म्हणूंक लागलो, गवो रेडो वांयगणांत वचूंक येतालो जावंये. धा एक मिनटां बसतकच आमकां मात्शें दिसूंक लागलें. सारकें दिसनासलें तरी पांया कडेन फातर आसा काय ना हाचो अदमास लागतालो. म्हाका भंय दिसतालो, तरी ते बिनधास्त चलताले.

वजरो हुपून आमी आतां मळकुटेर आयिल्ले. मेकळें मळ आशिल्ल्यान जाय तशें चलूंक जातालें, तरी कांटे वाटेर पडल्यात तें पळोवन वचचें पड. कुडव फुडें वतालो. ताच्या पावलार पावल घालून आमी वताले. काळ्याची बायल ताचे बरोवर देवळेचेर आसली. खुंटाचे वयेंतल्यान आमी कुडवागेर सरले. हांवें म्हळें,

"कुडव माम, काळ्यागेर भुरगीं भुकेल्लीं आसतलीं; पयलीं वचून पळोवया तांकां."

तशेच आमी काळ्यागेर गेले. ताचीं भुरगीं रडत वशिल्लीं. रात्रीर पेज

आसली. ती कुडवान तांकां वाडली, 'मागीर न्हिदूंक येतां; तुमी रावात,' अशें म्हणूंक लागलो. तरी तीं आयकना जालीं. मागीर तो म्हाका म्हणूंक लागलो,

"मास्टर, हांव रावतां हेंच्या म्हन्यान; तूं चल."

हांव घरा कडेन आयलों. हांड्यांत उदक तापिल्लें तें कुडवा खातीर. आंवाळें म्हणूंक लागलें,

"मास्टर, उदीक तापलां. आबो येना जाल्यार तूं न्हा."

रात बरीच जाल्ली, हांवें म्हळें, "आंवाळ्या हें उदक कोणाखातीर तापयिल्लें?"

तें म्हणूंक लागलें "आबो खातीर."

"तर म्हाका नाका."

"मास्टर, दोगां खातीर तापयिल्लें; आतां तरी न्हा."

गरम उदक न्हातकच बरें दिसलें. दीस भर चलून पांय बरेच भरून आयिल्ले. हांवें म्हळें,

"म्हजे कपडे हाडून दी."

तें म्हणूंक लागलें, "हांव तुजें किरयाद काय कितें?"

"अजून जावंक ना गो."

"जाता तेन्ना तुजें काम करतलें."

हावें म्हळें, "बरें आसा."

"नाका मास्टर हांव दितां हाडून." म्हणून तें धांवत वचून कपडे घेवन आयलें. कुडव नाशिल्ल्यान म्हाका ताचे कडेन उलोवंक मेळ्ळें. शिनें बारीकसाणेन आमचें उलोवप आयकतालें, तरी तें कांयच उलयलें ना. रातची आमील चडशीच आंवाळ्यान ताटांत घालून दिली. म्हाका प्रस्न समजलो ना तरी जाप मेळटाली. ते जापे वयल्यान प्रस्न मनांत उपरासतालो तो असो- आंवाळ्याच्या मनांत कितें आसत?

आमील म्हाका आज चडच गोड लागताली, ती पुरो जाल्ल्यान काय आंवाळ्यान वाडिल्ल्यान हें कळ नासलें. रातचीं म्हाका नाका तीं सपनां पडूंक लागलीं.

सकाळीं उठ तर म्हाका तोंड धुवंक आंवाळ्यान उदक हाडून सोप्यार दवरिल्लें. तोंड धुले उपरान्त तेंच च्या घेवन आयलें. पयलीं म्हाका नदर दिवपी न्हय तें आंवाळें सेवेक लागिल्लें. मनांत आयलें, ताचे उपकार कशे फेडटलों. हांवें म्हळें,

"आंवाळ्या, तुका शिरवीस मेळ्यार तूं करशीत?"

तें म्हणूंक लागलें, "मास्टर, म्हाका बरप कळना."

"तुका सान्न मारूंक कळटा न्ही, तर फाल्यांच्यान शाळेंत सान्न मारपाची. म्हयन्याक तुका धा च्यो तीन नोटी मेळटल्यो."

"आबोक विचारों जाय न्हूं?"

"आगो, सान्न तूं मारतलें काय आबो मारतलो? सकाळीं शाळा सुरू जावचे पयलीं वचून सान्न मारपाची."

"म्हाका आवो सारक्यो गळ्यांत घालूंक माळो जाय."

"मागीर तूं जात्रेक घे मुगो."



## ६

शेनवारचो बेगीनच शाळा सोडून हांव घरा आयलों. येतासर काळोख ज़ाल्ली. घरचीं म्हाका विचारूंक लागलीं, "खाण, जेवण खंय घेता?" हांवें सगलें सांगलें. तांका तें आयकून लिलिपुटाची खबर सांगता काय कितें अशें दिसलें. हांवें म्हळें,

"ते लोक आचारान, विचारान आमचे सारखे न्हय, वेगळेच कशे. तरी म्हाका तें वेगळेपण समजून घेवचें आसा. तांचीं मनां म्हाका वाचूंक जाय. ते खातीर तांचे भितर भरसून वचूंक जाय."

"तांची जात 'बागी', म्हळ्यार तूं बागी जावंक सोदता काय कितें? पुता, वेव्हार शीक, सुदारीक जावन शारान राव, त्या गांवढळ लोकां मदीं रावन तूंय तसोच गावंढळ उरतलो. आपली उदरगत करूंक पावचो ना, एक दीस खंयचेय बागीक घेवन घरान येतलो. तरी याद दवर; बागीकडेन जल्माचे संबंद जोडले तर तुका घर वर्ज्य जातलें."

धमकी भरना फुडें म्हाका शेळो घाम सुटलो. मनांत आयलें, म्हजो फुडार पर्जळीत जावंक जाय तर आंवाळी सोडूंक जाय. तरी दुसरें मन सांगतालें, नोकरी सोडल्यार कशें जातलें. मनांत आयलें, आतां ताचे कडेन चड संबंद दवरप ना. आपलें काम करप आनीक मोन्यानी रावप. आमील भुरकून बेजार आयिल्लो. शीत आनी नुस्त्याची कडी मेळटकच जीव धादोस जालो.

आंवाळींतले आठ दीस खरे तर आठ वर्सां सारके दिशिल्ले. पूण हांगा आयतार कसो गेलो तें कळ्ळेंच ना. घडयाळीचे कांटे सारके धांवताले. सोमाराक सकाळीं उठलों, कान-टोपी घाली, बरोबर चादर घेतली, तशेंच घरांत आशिल्लो रेडियो घेवन चलूंक लागलों. आतां म्हाका वाट खबर आसली. तरी वाटेर वाग मेळत काय हाचो भंय दिसतालो. पयले फावट वतना हांव कांचवेतालों तसो

कांचवेनासलों. वाग आयलोच जाल्यार ताका भिये नासतना जीव वाटायन हाची खात्री म्हाका आसली, आंवाळी राविल्ल्यान रानाचें भंय बरेंच उणें जाल्लें. चलपाची तांक वाडिल्ली. पांयांत पयलीं सारके कांटे लागनासले. चलतकच धांप कमी लागताली. आवय म्हणटाली, "आरे, तूं काळपट मारता मरे" वताक भोंविल्ल्यान म्हजी कात काळपट जाल्ली. वर्स भर रावल्यार त्या काळ्या सारको काळो दिसना जाल्यार पुरो, असो विचार मनांत आयलो. मनांत थारायलें, त्या लोकां कडेन चडसो संबंद दवरप ना. कामा पुरतोच. हे लोक मुळचे गोरे, तरी वतांत भोंविल्ल्यान काळे जाले आसतले. मनांत, परत परत विचार येताले. घरच्यांक दुखोवप ना, अशें हांवें थारायलें.

व्हडेकार नासलो. बरोच वेळ जालो. काळोख निकतोच फापसतालो. "व्हडेकार यो बेगीन" अशी एकार एक आरड मारूक सुरू केलें. हावें रेडिओ लायलो. सुरंगी रूखार कोण तरी हांशिल्ल्याचो भास जालो. रेडिओ बंद करून हांवें कान शेळायले, तरी कोण तरी सुरंगी रूखा वयल्यान देंवता अशें दिसलें. हांव भुताचेर विश्वास दवरपी न्हय, तरी तिळसानची ती काळशी आकृति पळोवन नाका ते विचार मनान येवंक लागले.

"हॅ हॅ हॅ! मास्टर भियेलो? हांव तें आवांळें."

म्हाका जिवांत जीव आयलो.

"आंवाळ्या, तुका व्हडें चलोवंक कळटा?"

"पन्नाशेक गोरवां चरोवपी म्हाका एक व्हडें चलोवंक कितें? मास्टर, भाडें पयलीं दिवचें पडटलें."

हांवें बोल्सांत हात घालो.

"ते पैशे न्ही; रेडिओ लाय."

आमी व्हड्यांत बसलीं. रेडिओचो बटण घुंवडायलो. रेडिओ गावंक लागलो- "मै तुलसी, तेरे आंगनकी...'

आंवाळें म्हणूंक लागलें, "मास्टर, हेचो अर्थ कळना; आयकूंक बरें लागता. सूर बरो आसा."

"आगो, तुळस ही आंगणांतच आसपाची. ती पवित्र; घरांत तिचीं पानां व्हरतात, तरी तिका भितर व्हरनात. हो अर्थ ह्या पदाचो."

"मास्टर, अर्था सारकें पद सोबीत आसा, न्हय?"

"हय गो. तरी त्या अर्थांत खरेपण आसा. कोडसाण आसा, गोडसाण ना.

तातूंत एक काणी लिपिल्ली आसा."

"म्हाका ती सांगशी?"

"सांगीन केन्नाय तरी."

व्हड्यांत बसतकच हांव आतां आंवाळी पावलों हाचें समाधान म्हाका मेळ्ळें. संथ उदकार व्हलें मारतकच उदकांतलो चंद्र पिंजिल्ले सारको जातालो. तरी बटबटीत नखेत्रां उदकार पेंवतना दिसतालीं. व्हडें पलतडी पावलें. हांव शेतांतल्यान कुडवाचें घर लागीं करतालों. हातांत पिशवी आसली, ती झेलयत हांव चलतालों. वाटेर फोंडकुलांत पडलों तरी पिशवी सांबाळ्ळी. आतां आमोरी जावन गेल्ली, कुडवालें घर लागीं करतालों. हातांत पिशवी आसली, ती झेलयत हांव चलतालों. वाटेर फोंडकुलांत पडलों तरी पिशवी सांबाळ्ळी. आतां आमोरी जावन गेल्ली, कुडवालें घर दिसूंक लागलें. आवाळें धांवतच गेल्लें. मनांत आयलें, आंवाळ्यान हांव घरा गेल्लों तो सोमाराक येतलो, म्हणून व्हडें आलतडी लावंक ना मूं? पेजाद पावलां मारीत हांव आंगणांत पावलों. कुडवालीं उतरां फुटलीं-

"वागोळ्या, तिळसानचें भायर सरशी तर दोंके मोडटलों."

"आबो, नाका रे..." अशें म्हणत आंवाळें रडटालें.

७

दुसऱ्या दिसा आंवाळें म्हणूंक लागलें,

"मास्टर, काल सान्न मारूंना हांयें. पागार कापल्यार जालो."

"बरें गो. सगलो म्हयन्याचो पगार कापतां, मागीर जालें!"

"तर हांव फाल्यांच्यान सान्न मारचें ना."

"जाय जाल्यार मार, ना तर मारूं नाका."

ताका राग येवन तें घरांत गेलें. हांवें कपडे काडून हात पांय धुले. आंवाळ्यान च्या हाडून दिली. पितकच थाकाय आयली. मागीर हांवें रेडियो भायर काडलो; सोप्यार दवरलो आनी लायलो. तो कसलो आवाज तो पळोवपाक कुडवालें कुटुंब एकठांय जालें.

कुडव म्हणूंक लागलो, "हेजें नांव कितें?"

हांवें म्हळें, "रेडिओ"

ताका रेडिओ म्हणूंक कळना जालें तो "रेडो" म्हणूंक लागलो. वचून सगल्यांक आपयलें. मास्टरान उलयता तसलो रेडो हाडला. म्हाका ज्ञानेश्वराची याद जाली. जाणें रेड्याच्या तोंडांतसून वेद वदयल्ले. वयले तशेंच सकयले आंवाळीचे लोक आंगणांत रावन पैसुल्यान रेडियो आयकूंक लागले. पयलीं पयलीं तांकां ताचो भंय दिसूंक लागलो. मागीर मागीर, हळू हळू ते लागीं येवंक लागले.

"मास्टर, हितून कोण आसा?"

"मनीस आसा. तो गाता, उलयता, रडटा, हांसता, सगलें करता."

"मागीर ताका भूक लागना तर?"

"लागता. आमील खावंक दितकच ताची भूक वता."

तांकां तें खरेंच दिसलें. आवाज पेटयेंतल्यान येतालो तो खरो. रेडियो कितें सांगता तें तांकां कळ नासलें, तरी कान आवाजान न्हिवताले हें खरें. सगल्यांक दुसऱ्या दिसा उलोवपाक विषय मेळ्ळो तो मास्टरालो रेडो उलयता म्हणून. हांवें सांगलें, "हो सांजेचोच उलयता. दीस भर उलयना." सांजेचो हांव तो लायतालों. गिल्ली घरांतसून भायर सरूंक शक नासली. हे खातीर तिगेर व्हरून तिका रेडियो वाजोवन दाखयलो. ती म्हणूंक लागली, "शिगम्याच्या मेळा सारकोच म्हणप, वाजोवप न्हीं?" ती हांसूंक लागली.

ही वदंता कुस्क्यां पावली. कुस्कें साकून लोक येवंक लागले. हांवें कुडवाक सांगलें, तांकां एक दीस व्हरून वाजोवन दाखय. कुडवाक रेडियो लावंक आनी बंद करूंक हांवें शिकयलो. तो आपणाक आतां मास्टर जालो असो समजतालो. सकाळचो रेडियो घेवन तो कुसक्यां केन्नाय व्हरून तांकां वाजोवन दाखयतालो. देवळेर व्हरून घाडयाक वाजोवन दाखयलो. दाड देवा मुखार आवाज बरो येता, तो देवाक लागून, काय घाडयाक? अशें तो म्हाका विचारूंक लागलो. हांवें म्हळें,

"तें तूं त्या रेड्याकच विचार."

ताणें खरेंच ताका विचारलें "रेड्या, तुजो आवाज देवळेर बरो कित्याक येता?" पूण ताका जाप मेळ्ळी ना.

हांवें म्हळें, "तूं ताचो कान पिळटा म्हणून पिकार जाला आसतलो. तुका फावता तेन्ना तो जाप दिले बगर रावचो ना."

## ८

दीस वताले. शिगम्याची सुलूस लागना फुडें घुमटां वाजोवंक सुरू जालें. दिसान, रातीन घुमटांचे आवाज येताले. मनांत येता तशे ते वाजयताले. थोडे घुमटां वाजोवंक शिकताले. धा पंदरा दीस वाजयतकच तांका घुमटां वाजोवपाची संवय जाताली. शिन्यान दारा मुखार बरींच आबोलीं फुलयिल्लीं. शिगम्याच्या दिसांनी बायलो, दादले सगलीं आबोलीचीं फुलां माळटात.

शिगम्याच्या पयल्या दिसा हांव गेलों. खुटये कडेन वचून कुडवान देवाक उलो मारून नमन केलें. सांगणी करून नाल्ल वाल्यान बांदलो. मागीर तो तोणयो हातांत घेवन नाचूंक लागलो. हांवें रेडियो लायलो. त्या तालार ते नाचूंक लागले. विविध भारती स्टेशन लायलें म्हणटकच हिन्दी गितां तांकां तालार नाचूंक बरीं जातालीं. त्या दिसा मांडार जेवपाचें.

"मास्टर नाचले बगर जेवण मेळचें ना."

मागीर हातांत तोणयो घेवन हांवूय कळटा तसो नाचूंक लागलों. बरीच रात जाल्ली. केळीच्या पानार शीत-रोस वाडलो. सगलें शिवराक आसलें. नाचिल्ल्यान पोटाक भूक लागिल्ली. मागीर काळ्यान खावचीं पानां, तशेंच सुपाऱ्यो हाडल्यो, कुडवान चंची सोडयली आनी चुनो काडलो. घरा वचप ना असो नेम आसलो. सगले देवाचें नांव घेवन मांडारच न्हिदले. म्हाका न्हीद येना जाली. पुनवेचो चंद्र दोळे मोटे करून पळयतालो. मदींच वारो आफडून वतालो. जिवाणें येत काय हाची धास्ती म्हाका आसली.

हांवें कुडवाक म्हळें, "हांगा रातचीं जिवाणीं बी येनात मरे?"

"ना. मांड मोड मेरेन तेंच्या तोंडाक चावी आसता. मागीर हांव सांगूंक शकना."

मनांत आयलें, हे लोक खोटो भावार्थ मनांत दवरून जियेतात, तरी तांचो भावार्थ इतलो खर आसता, ताका दुबाव आफडूंक शकना. इतलें म्हणटासर तो घोरेवंक लागलो. मांडावयले बरेच जाण घोरेवंक लागले. म्हाका आतां झेमडी येवंक आयिल्ली, ती त्या आवाजान पैसावली. वागाचो गुरकुपाचो आवाज कसो तो म्हाका दिसूंक लागलो. त्या शांत वेळार मनीस लेगीत वागा सारको शेक गाजयताले, हाचें म्हाका कवतूक दिसलें. तरी वाग जागृतावस्थेंत गुरकिता, तर मनीस न्हिदेचे अवस्थेंत,

इतलोच फरक. हांवें चादर माथ्या वयल्यान घेतली. हाताचें उशें केलें. तशे म्हजे पांय उगडे पडले. पांयाक कितें चाबलें तरी माथें शाबूत दवरया, असो मनान थाराव घेतलो. म्हजे दोळे जड जावंक लागले. इतल्यांत पांयाकडेन कोण तरी लागिल्ल्याचो भास जालो. जिवाणें जातलें असो म्हजो समज जावन हांवें करंदाय मारली, तसो उठलों. तरी कोणच जागो जालो ना. मांडार पडिले तांदूळ खावंक हुंदीर हांगा थंय धांवतना म्हाका चान्यांत दिश्टी पडले. दुबावाची पाल नाच्च जाली. पैस सुणो हेल शे काडून रडटालो. घुघूम 'हूं हूं हूं' करून रात जागयतालो. तर हांव मात दुबावानच न्हिदेक पयस धाडटालों. मनांत आयलें, दुबावा सारको दुसमान ना. तो एक फावट घर करूंक लागतकच पयस वचना. काळ्यान म्हाका हालयतकच हांव जागो जालों. सुर्याचीं किर्णां म्हजें चादर भाजून काडटालीं. सगले न्हावन, वालो नेसून गळ्यांत फुलांच्यो माळो घालून तयार आसले. हांवें म्हळें, म्हजे खातीर तुमकां कळाव नाका. काळो घुमटां वाजोवंक बरोच हुशार आसलो. तर कुडव झांज वाजयतालो. चोबो तासो वाजयतालो.

हांवें तोंड धुवन च्या-खावंक घेतलें. मागीर कुडवागेर न्हावंक गेलों तेन्ना आंवाळें म्हणूंक लागलें,

"मास्टर, आज शाळेंत सान्न मारप ना."

"ना गो, शिगम्या खातीर मांड मोड मेरेन सुटी. हांव एकटो शाळेंत बसून कोणाक बांकांक शिकयतलों? बरें, हांड्यांत तापयिल्लें उदक आसा? ना? मागीर जळोव घालून तापय मुगो. सान्न मारपा वांट्याचें हें काम कर."

"ना तर पाग कापतलो काय कितें?"

"हय."

"तर तुजी कापोस्तादं पळोवया." तोंडान म्हणत तें हांड्या कडेन गेलें आनी जळोव घालून उजो पेटोवंक लागलें. हांवें म्हळें,

"म्हजी कापास्ताद बरी आसा. आतां तुजी कापास्ताद म्हाका कळ्ळी" आनीक विशय वाडय नासतना हांव उदक तापतकच न्हालों. कपडे दुसरे घाले

"आंवाळ्या, हे कपडे उमळ."

"हांव तुजें किरयाद काय कितें?"

"तूं नोकर न्ही? सान्नकान्न!"

"पुरो पुरो," म्हणत ताणें म्हजे कपडे उमळून सुकत घाले.

म्हणटासर आंगणांतसून पळय तर आंवाळेचो मेळ दाड देवळे कडेन पाविल्लो

दिसलो. देवळेकडेन बावलीं हालतात अशें दिसतालें. शिनें म्हणूंक लागलें, "देवळेर खेळटकच ते फुडें कुसक्यां वैतले."

घुमटाचो आवाज मात्सो कानार आदळटालो. आतां इकरा जायत आयिल्लीं. हांव कपडे घालून भायर सर मेरेन मेळ दोंगुल्लेचे दुसरे वटेन देवंक लागिल्लो. म्हाका आतां वाट कोण दाखयतलो? तरी देवळे मेरेन वाट हांव जाणा आसलों. तशें रान म्हणटकच भंय जरी दिस नासलो तरी त्या दिसाचें तें दृश्य दोळ्यां मुखार येतालें. वजऱ्या मेरेन तरी वचूंक मन कांचवेतालें. तरी थोड्या वेळा पयलीं मेळ गेल्ल्यान तसो भंय नासलो. पांयांत जोतें घालून हांव चलूंक लागलों. वजरो काडलो आनी कांट्याच्या झोंपांनी पावलों. कानार एके तरेचो आवाज आयलो. तरी हांव लक्ष दिना आसतना पेजाद पावलां मारूंक लागलों. परत तसो आवाज आयलो आनी बारीक फातर वयल्यान पडले. हांवें सगल्याक पळयलें, तर कोणच ना. परत फुडें वता थंय आसलों, पत्र्याचो आवाज आयलो. रोखडोच बंद जालो. म्हाका कितें करचें तें कळना जालें. हांव फातरार वचून बसलों आनी देवाचें ध्यान करूंक लागलों. थोडो वेळ वतकच म्हजे दोळे फाटसून येवन कोणें तरी घट धरले. हांवें सोड म्हळें, तरी सोडना. हांव काचाबूल जालों. म्हारवान बी म्हजे दोळे घट्ट चिड्डून धरूना मू? अशें दिसलें. थोड्या वेळान हांसपाचो आवाज आयलो. तेन्ना कळ्ळें, हें आंवाळेंच म्हणून. हांवें म्हळें, "आंवाळ्या, सोड दोळे."

खिणा भितर दोळे सोडून तें खो खो हांसूंक लागलें. खरें तर म्हाका ताचो बरोच राग आयिल्लो. पूण करतलों कितें?

"मास्टर, मस्कऱ्यांनी. चल, तुका कुस्केची वाट दाखयतां" म्हणत तें फुडें चलूंक लागलें. हांवें म्हळें,

"देवळेकडेन वचना?"

"नाका. ही वाट कांट्यांची, तरी देंवतकच कुस्क्यां पावता. देवळे कडेन गेल्यार फेरो पडटलो. मेळ कुस्क्यां पावचे पयलीं तूं पावतलो."

म्हजो भंय केन्नाच गेल्लो. आंवाळ्याचें कसब हांव मनांतल्या मनांत पारखितालों. कुस्क्यां पावना फुडें कुस्केकार मेळाक येवकारूंक तयार आसले. नवे कपडे घालून माटवाक आंव्याचे ताळे वांदून मेळाची वाट पळयताले. आंगणां शेणान सारयिल्लीं. घरा परस आंगणां व्हड आसलीं. पयलीं व्हिळयागेर गेले. थंय पावतकच व्हिळयान घुमटां बडोवन येवकार दिलो. मागीर गोफ विणलो, तालगडी मारली. व्हिळो तसो जाणटो जाल्लो, तरी उमेद ताची तरणी आसली. खेळून जातकच ताणें सगल्यांक

पेज वाडली. मागीर आमी फुडल्या घरांत गेले, थंय खेळ्ळे. अशें एक एक घर खेळून दनपरां जेवले. सांजचे थंय आशिल्लीं सात आठ घरां खेळ्ळे आनी थंय मांडारच न्हिदले. दुसऱ्या दिसा 'गोडी' गांवांत गेले.

गोडी गांव म्हळ्यार थंयची वस्तू म्होंवी. म्होंवो नाल्ल, म्होंवें उदक, म्होंवी पोपाय, म्होंवीं अनसां; लोक लेगीत मायेस्त! थंयचे झरीचें उदक पिवंक दिवन ते सोयऱ्यांक येवकारताले. कितलें गोड उदक! कुस्क्यां गीम पावस उदक. हे खातीर थंयची वस्त वाडना आसली; कुसताली. तर गोडी हांगा झर सोडल्यार उदक मेळ नासलें. हे खातीर वस्तू वाडटाल्यो, पूण उदक घाल्यारच. उदक कमी मेळिल्ल्यान वस्तू गोड लागताल्यो. हे खातीर त्या गांवाचें नांव 'गोडी' पडलां आसतलें.

दीस भर नाचिल्ल्यान मांडार म्हाका रोखडीच न्हीद लागली. पयलीं पयलीं म्हाका दिस, हे अडाणी लोक. तांचे बरोवर नाचप म्हळ्यार हांवूय अडाणीच जालों. तरी आतां म्हाका लज दिस नासली. घुमटांच्या तालार पावलां उडोवंक म्हाका स्फुरण येतालें. भीड दिस नासली. मनांतलो आनंद उक्तावंक नाचा सारको मित्र ना. ताची साथ आसल्यार आनंद जाय तसो अणभवंक मेळटा. आतां तांची संगत लागत साकून पान खावचें व्यसन लागिल्लें. म्हाका ते तशे कमी लेखले तरी मास्तर जाल्ल्यान रेस्पेत दिताले.

गोडी गांवांत सून चार किलोमीटर शेतांतल्यान चलतकच 'मायण' गांव लागता. थंय एक तळें आसलें. गीम-पावस उदक भरिल्लें आसतालें. तरी मे म्हयन्यांत तळें बरेंच सुकतालें. तळें रेब्यान भरिल्लें आसतालें. मदीं साळकां आसलीं. उदकाचे आशेन रानवटी जनावरां उदक पिवंक लागतकच त्या मायणांत सांपडटालीं, तेन्ना तांकां भायर येवंक बरेच त्रास जाताले. 'जागी' थंयचो बुदवंत. त्या चिखलाचे तो गणपती करतालो. ते तो विकतालो. हे खातीर त्या तळ्याक 'गणेसा-तळें' अशें ते म्हणटाले.

गणेसा-तळ्या कडल्यान आमी फुडें गेले, आनी मेळ खेळूंक लागले. त्या घुमटांच्या आवाजान लागसल्ले माकड धांवले. हुप् हुप् असो घुमटां सारको आवाज करूंक लागले. जागीच्या घरा कडलीं कुत्रीं आमकां पळोवन पयलीं भोंकूंक लागलीं. तींय मागीर वंद जालीं. जागीन माटोव सजयिल्लो. मातयेच्यो मूर्ती ताणें माटवांत एका कोनशाक मांडिल्ल्यो. जागी तसो हुशार कलाकार आसलो. आटवो म्हणूंक लागलो,

"मास्टर, हें गणेसा-तळें खरें, तरी हितूंत रातचे दुकर सांपडटात. जागी

फातरांनी मारून तेचें मास आमगेर तशेंच वयले, सकले आंवाळी पावयता- फुकट! जो मनीस मास घेवन येता, तेका खांशेन नाचणे, गोड- घरांत आसा तें लोक दितात. हितूंत एक फावट माकड सांपडलो. तेका मारून चामडें काडलें. हो तासो वाजता तो त्या माकडाच्या चामड्याचो, जागीनच केल्लो. घुमटाक गाराचें चामडें वांदलां तें तुयें गार हाडों नासलें, तेजें."

जागी लोखणाचें काम करतालो. नांगर लावप, खोरीं, पिकास करप, चुनो करप अशीं खुबशीं कामां तो करतालो. तो शेत रोय नासलो, तरी ह्या कामांनी ताका येणावळ आशिल्ल्यान तो भात विकतें घेतालो. अडि-अडचणी वेळार लागसले शेत कामती ताचे कडेन वचून रीण काडटाले. पिकेर भात दिवन तें रीण फारीक करताले. ताची आस्पत बरी आशिल्ल्यान ताणें मेळाच्या लोकांक जेवण घालें. थंय आंवाळीकार बरेच जाम जाता मेरेन नाचले.

"सात पांच तोणयो, वागा पुतणयो,
दिमी घाल्न मार, तोणयो"

अशें म्हणून ते दिमी मारताले.

"गायीच्या गोठणार, कोण शेण भरी?"

अशें म्हणून आंगणांत शेण भरपाचे हावभाव करताले. थंयचीं चार-पांच घरां खेळटा मेरेन रात जाली. जागी गेर मागीर न्हिदले.

दुसऱ्या दिसा थंयच्यान चलून आंवाळी आयले. 'श्रीकृष्ण घरीं परतला मूं' अशें येतना म्हणत वाजत आयले. दनपारच्या वेळार पावले. मागीर जेवण केलें. सांजचे खेळून जाम जातकच थोडे घुंवळ येवन पडले. तांकां थंड उदकान न्हाणयले. मागीर फांतोडेचेर जेवतकच सगले आप आपल्या घरा गेले. कुडवान दारार वाजोवचे पयलींच आंवाळें जागें आसलें. ताणें दार काडलें.

"मास्टर, जेयलो?"

हांवें 'हय' म्हणतकच तें घरांत गेलें.

म्हज्या हाता-पांयांक पेटके येताले. शेंदरी घालून हांव न्हीद-सूख घेवंक लागलों. इतल्यांत माजरां झगडपाचो आवाज आयलो. म्हजी न्हीद गेली. तसो दीस जावंक आयिल्लो. तरी म्हाका न्हिदपाचें आसलें. कुडव उठून ताणें माजराचेर थापट दिलें जावंये. तांचो आवाज नासलो. केन्ना न्हीद पडली ती खबरच ना. दाराचेर हात मारतकच हांव जागो जालों.

"कोण?"

"हांव तें आंवाळें. मास्टर, आज सान्न मारूं नाका?"

"आगो, आज भुरगीं शाळेंत खंय येतलीं? सान्न कोणाक म्हारवांक काय कितें?"

"मास्टर, तापों नाका. म्हाजो पाग मेळटकच जालो."

"बरें, तुका कितें? शाळा उगडली तरच सान्न मार." हांव न्हिदिल्ले कडसून उलयलों.

"मास्टर, च्या नाका?"

"आगो, तूं म्हणून सामकें फाटीक लागलां. आतां म्हाका च्याचे परस न्हीद गोड लागता. तूं चल तुज्या कामाक."

म्हजो राग पळोवन तें ओगी रावलें.

९

हांव उठलों तेन्ना सांज जाल्ली. पोटांक कावळे रडटाले. कुडवाच्या घरांत कोणच नासलो. तोंड धुवन हांव सोप्यार बसलों. शिन्याक उलो करूंक लेगीत त्राण नासलें. मनांत आयलें, आवांळ्यान सांगिल्लें तेन्ना च्या पिवपाचो. हांव तसोच फुडें गेलों. भुरगीं खेळटना दिसलीं. हांवें उलो मारलो,

"आटव्या-" आटवो आयलो.

"आरे, च्या करून दी"

"बरें" म्हणत तो घरांत गेलो. थोड्या वेळान ताणें च्या करून हाडून दिली, तरी तो साखर घालूंक विसरिल्लो. आरे, साखर ना तर गोड घाल. ताणें गोड घालें. हांवें ती च्या केन्ना सोपयली ती कळ्ळीच ना. तिका दूद नासून लेगीत ती म्हाका बरी लागली.

कुडव एक सुक्या झाडाचें खोड घेवन आयलो. तें पेटोवन तो शेकूंक लागलो. म्हाका उज्याचो धग घेवंक आवडटालो. हांव शेकूंक लागलों. कुडव सांगूंक लागलो-

"गांवची पीडा सगली जाग्यार बसली. शिगम्याच्या दिसांनी त्यो उचांबळ जातात, पुनवेक जाग्यार बसतात. देवाचो कौल तो! घरांतलो एकटो तरी मेळाक वचुंकूच जाय, असो नेम आ[illegible]. शिगमो करप म्हळ्यार वर्साची राखण. एक वर्सा-तेन्ना हांव ल्हान- चार वाग ये[illegible]ा घुरकोवंक लागले. कितेंच केल्यार वचनात. मागीर

जेन्ना शिगमो जालो, त्या दुसऱ्या दिसा साकून तेंचो आवाज ना."

कुडव एक एक गजाल सांगतालो. दिसाची न्हीद काडिल्ल्यान म्हाका न्हीद येना आसली. गोठ्यांत गोरवां आयिल्लीं. शिन्यान दूद काडून घरांत व्हेलें. आंवाळें आबोलीं काडटालें. पैस कोण तरी शिगम्याचीं पदां म्हणटाले तीं कानार आदळटालीं. वारो आतां परतो व्हांवंक लागिल्लो. तेन्ना आमी उठून दुसरे वटेन वचून बसले. कुडवान खोडाचे तांबडे गुंज इंगळे झडयले तशें तें आनीक नेटान पेटून किट्ट्यो वयर वचूंक लागल्यो.

आटवो आतां धगाक येवन शेकतालो. बऱ्या वेळान कुडव न्हावंक गेलो. हांड्यांत थोडें उदक आसलें, तें हांव न्हालों. सोप्यार रेडियो लायलो. तो आयकूंक काळो, ताचीं भुरगीं, ताचे शेजारी आयिल्ले. मदीं मदीं रेडियो खस् खस् जातालो. ते कान दिवन आयकताले. तांकां वाद्य चड आवडटालें. विदेशी वाद्यांय लायल्यार तांकां उपकारतालें. काळो म्हणूंक लागलो, "रेडो हाडिल्ल्यान कानाचे बुराक मात न्हिवले. सगलें अजापच!"

म्हाका न्हीद येतकच हांव न्हिदतालों, तरी कुडवाक बटण कसो बंद करपाचो तें सांगिल्लें. तांकां जाय तेन्ना ते बंद करताले. सकाळीं उठटकच कुडवाक म्हळें, "हांव घरा वचून परां येतलों." तें आवांळ्यान आयकलें,

"मास्टर, राव थोडो वेळ" म्हणत तें रानांत धांवलें. बऱ्या वेळान पानांत बांदून ताणें कितें तरी हाडलें आनी म्हाका दिलें. हांवें म्हळें,

"हें कितें गो?"

"कांय ना. घरा व्हरतकच सोडून पळय. खावचें तें."

हांव आतां घरची वाट चलूंक लगिल्लों. वाटेर काळो मेळ्ळो. "मास्टर, आज घरा वयता? राव." अशें म्हणत ताणें तांवडी टवटवीत भाजी उदकांत बुडोवन हाडून दिली. ती पिशवेंत घालून हांव न्हंय पार करून पाडी पावलों. सूर्य बरोच वयर आयिल्लो. वतांत चलप जिवार येतालें. तरी घरा वचूंक जाय आसलें. सांजचो आमोरेचेर घरा पावलों.

आईन पानां सोड तर आंवाळेच आंवाळे.

"हें कितें रे?"

"ते आंवाळे न्ही गे?"

"पुणून काळे-काळे शे?"

"आगे, दिसूंक काळे आसले तरी खावंक पळय कशे लागतात ते? थंयचे

लोक अशेच सामके काळे. तरी कोंशेसान सामके धवे."

आईन एक आंवाळो खावन पळयत म्हळें, "हय रे, खरें तुजें."

"आंवाळे चड तेंप तिगनात. तरी खातकच वरेच दीस याद दवरतात. आंवाळेचें झाड दिसूंक बारीक आसलें तरी कणखर आसता. गोरवांक मारूंक आंवाळेची बडी चड तिगता."

"पुरो, पुरो तुजें गिन्यान."

तो विशय थंयच सोपलो. म्हाका रातची नाका नाका तीं सपनां पडलीं. शिगम्याचीं, वागाचीं, उशेलाचीं-म्हाका दिसलें, शारांत एकेच तरेची जीण जगप. दिसपट्टें तेंच तेंच काम करप. रानांत नव्यो नव्यो गजाली घडटात. एखाद्रें कठीण वेळाक तोंड दिवचें पडटा. तर आपसुकच फळां, झाडां, फुलां मेळटकच खोशी जाता. वावटळ येतकच झाडां जमनीर मोडून पडटात, तर दोंगरा वयल्यान तळपां सकयल घसरतात. वागाच्यो गरड्यो आयकूंक येतात. किण्ण रातीं घुघूम जागयता. शारांत वाहनाची येरादारी पळोवप. रातचो आवाज आयकप. बंगल्यांचो रंग पळोवन खीण भर मन खोशेन भरता, तरी तोच तोच रंग पळोवन उबगण येता. आंवाळी वाडयेर तर सैम रंग बदलत आसता. हे खातीर त्या रंगाची गोडी वाडटा. म्हजें मन परत परत आंवाळी धांवतालें. पयलीं म्हाका थंय वचप म्हळ्यार संकष्ट येता कशें दिस. तरी आतां त्या गांवची संवय जाल्ली.

सकाळीं उठटकच भाटांत सगल्याक पासय मारली. दनपारचें गाबतिणी कडसून नुस्तें घेतलें. खूब दिसांनी नुस्तें मेळिल्लें. सोमारचो कचेरींत वचून पगार घेतलो. चार सफरचंदां घेतलीं. घरा आयलों. मंगळाराक आंवाळी गेलों.

दोन सफरचंदां कुडवाक दिलीं. दोन आसलीं तीं शिरो करून भुरग्यांक वांटून दिलीं. तांणी सफरचंदां केन्नाच खावंक नासलीं. आंवाळें सान्न मारून मेकळें जाल्लें. हांवें म्हळें, "आंवाळ्या, तुजो पगार व्हर." वॉचराचेर ताका सय करूंक सांगलें, तर ताका येना जाली. हांवे पेडाचेर ताचें बोट लायलें, तर ताका तें खंय लावचें तें कळना जालें. ताचें बोट धरून हांवें वॉचराचेर लायलें. तें लजून थंयसून धांवतच गेलें. पगाराचे पैशे लेगीत ताणें व्हेले नात. म्हाका हांसुंकूच आयलें. ताचे तीस रूपया हांवें घरा हाडले आनी दवरले. सांजचें जेन्ना आंवाळें गोरवांक घेवन आयलें तेन्ना हांवें म्हळें,

"आंवाळ्या, व्हर तुजो पगार. बोट मारून पगार व्हरप ना गो? बोट मारप म्हळ्यार पगार पावलो असो अर्थ जाता." ताका तीस रूपया दिले. पयलोच पगार

हातार पडटकच तें खोशी जालें. म्हणूंक लागलें,

"मास्टर, हांड्याचें उदक तुका तापोवन दितां."

रेडियोचो आवाज बारीक जाल्लो. बॅटरी सेल हाडिल्ले, ते ताका घाले. आतां तो घणघणीत वाजूंक लागलो. त्या रानांत सदांच हांव बातम्यो आयकतालों. ना तर कितें घडटा तें कळूंक मार्ग नासलो. आंवाळ्यान पयशे व्हरून शिन्याकडेन दिले. शिन्यान ते मिलेरांत घाले.

## १०

माया म्हयनो लागिल्लो. घरांत कशेंच न्हिदूंक जायना आसलें. कुडव, हांव आनी आटवो आंगणांत न्हिदूंक लागले. आंगण आंचून, पेटून तुळतुळीत केल्लें. एके वटेन दुरीग आसलो. म्हाका थंड वाऱ्याक न्हीद बरी लागताली, तरी पयल्यो दोन राती जागोवनच काडच्यो पडल्यो. चौथे रातीं हांव मन सोडून न्हिदलों. मध्यान रात जायत आयिल्ली. इतल्यांत कुत्र्याचो रडपाचो आवाज आयलो. हांवें दोळ चोळीत पळय तर वागटान कुत्र्याक धरिल्लो. हांवें जिवाच्या जाकांतान करंदाय मारली. ते सरशीं वागूट कुत्र्याक सोडून गेलें. कुडवाक उठयलो. ताणें रातचें कुत्र्याक वखद घालें, ताका घरांत व्हरून दवरलो. कुडव परत आंगणांत न्हिदलो. म्हाका त्या वागटाक पळयतकच न्हीद दोळ्यांत आसली ती गेली. गोंदरी-उशें घेवन हांव कुडींत गेलों आनी न्हीद घेवंक लागलों. आंगांत सून घाम येतालो. कुडव घोरेतालो त्या आवाजान म्हाका न्हीद येना आसली. कुत्रो परत परत रडटालो. सकाळीं उठटकच पळय तर वागटान ताचे मानेक घांस मारिल्लो. कुत्रो बरोच भिल्लो. म्हाका आंगण नाका जालें. रातीं हांव कुडींनच न्हिदूंक लागलों. तरी कुडव, आटवो आंगणांतच न्हिदताले. सात आठ दिसांनी कुत्रो बरो जालो. एक दीस कुडवान रातचो ताका भायरच दवरलो. दुसऱ्या दिसा पळय तर कुत्रो नासलो. कुडवाक खबरच ना, तरी रातचें म्हाका कुत्र्याचें रडप आयकूंक आयिल्लें. वागटान येवन ताका व्हेल्लो. म्हयन्या भितर रातचें माजर ना जालें. वागूट म्हळ्यार ल्हान वाग. ता कुत्रीं, माजरां धरता. कुडव, आटवो तरी आंगणांत न्हिदताले. वागूट मनशाक भियेता हें तांकां खबर आसलें.

एक दीस साजवेळार आंवाळें बोरां घेवन आयलें आनी म्हाका दिवन म्हणूंक

लागलें,

"मास्टर, हीं बोरां कितलीं म्होंवीं चय."

"आगो, खंयच्यान हाडलीं तुवें हीं?"

"हो पळय, तो सायवाचो बंगलो ना, तेचे फाटीं एक झाड आसा. तें झाड न्हंयच्या कांठार आसा. वोरां काडल्यार न्हंयंत पडटात, हे खातीर हळूच तोल सावाळीत वोरां खुडचीं पडटात."

"आगो, बोरां मारलीं झक! तूं न्हंयंत पडल्यार?"

"पडल्यार कितें जातलें? तुका सान्न मारूक जयें ना तर मोगरें मेळटलें."

"तें खरें, पुणून तूं पडल्यार बोरां कोण हाडून दितलो?"

"तें म्हाका खबर ना. तरी सांगल्यार, दोन पैशे हातार उडयल्यार कोणय ना म्हणचो ना."

"तें जालें गो. पूण फुकट आनी सांग नासतना मोगान बोरां कोण हाडून दितलो?"

"तें तुज्या जिवाक तूंच इचारून पळय." अशें म्हणून तें धांवतच घरांत गेलें.

फातर उदकांत उडयल्यार त्या उदकाची खोलाय फातराच्या आवाजा वयल्यान आजमावंक येता. तरी खोलाय अमुकच इतली हें सांगूंक जायना. अदमास लावंक येता. तो अदमास चुकत काय बरोबर जायत हें सांगूं नज. कितलीं वासाळ गोड वोरां! आंवाळ्यान दिल्ल्यान तीं चडच गोड लागलीं जायत. बोरां केन्ना कावार जालीं तें कळ्ळेंच ना. रातीं जेवतकच न्हिदलों.

दुसऱ्या दिसा ऊठ तर तोंड मोठें दिसूंक लागलें. थंडी भरिल्ली. खांक येताली. आंवाळें येवन म्हणूंक लागलें, "मास्टर, थंडी जाल्या?" तें भितर गेलें. कुडवाक सांगून ताणें मूळ झरोवन हाडून दिलें. थोड्या वेळान खांक येवची थांबली. बरें दिसलें. तसोच शाळेंत गेलों. भुरग्यांक चिरूक घालें. तिसरेच्या भुरग्यांक धडो बरोवन काडूंक लायलो, तर चौथेच्या भुरग्यांक प्रस्न दिले. जापो बरोवंक तांकां येना आसलें. जापो फळ्यार बरोवन दिवन त्यो पाठ करूक लायल्यो. तांची बुद्द पळोवंक हांव फळ्यार चित्रां काडटालों, तांचीं नांवां विचारतालों. वैल, वाग, कोंबो हांकां ते वळखताले. तरी फ्रीज, टीवी तांकां वळखूंक येना आसले. शिकूंक सामकीं 'ढ' आसलीं. पास जावपाची तांक चार पांच भुरग्यांत आसली, वाकिच्यांक वर्सभर शिकल्यांत म्हणून फुडल्या वर्गांत घालचें पड. भुरगीं घरा कडल्यो खवरो शाळेंत करतालीं. परत परत खेळूंक वचूं काय विचारतालीं. शिक्षणा कडेन तांचें मन लाग

नासलें. चार-पांच दीस घरचें काम आसल्यार शाळेक दांडी मारतालीं. 'कित्याक रावलीं?' अशें विचारल्यार 'काम ना तर कोण रावता घरा?' अशें म्हाका परतें विचारतालीं. सांगल्यार मन लावन चिरतालीं, तरी शिकप तांकां नाका आसलें.

शाळे मुखार हांवें कामत करपाचें थारायलें. जागो भाजून घेतलो. 'कांट्याची वंय करात' म्हणटकच गडगंज वंय त्या भुरग्यांनी केली. कामाक तीं बरीं आसलीं. शिकचे परस कामांत तीं रमतालीं.

सांजचो एक दीस काळ्यागेर घुडूक घुडूक असो आवाज येवंक लागलो. आटव्याक बरोबर घेवन हांव थंय गेलों, तर काळ्याच्या घरा फाटल्यान पाखें आसलें, थंय शिनें दिसलें. भितर वचून पळय तर एक लाट आसली. लाट म्हळ्यार लांब लांकडी वांसो. ताका फुडें मुंडो. तो वयर दवरिल्लो. शिनें ते लाटीचेर पांय मारतकच तो मुंडो वयर येतालो आनी परत सकयल पडटालो. पोंदा वान आसलें. लागसार रांदनीत उजो पेट्टालो. ताचेर कुळणें आसलें. आंवाळें हातांत बडी घेवन त्या कुळण्यांतलें भात चाळटालें. बरेंच गरम जातकच वानांत घालतालें. परत भात कुळण्यांत घालून रांदनीर दवरतालें. शिनें पांय मारतकच मुंडो वानांत पडटालो. ते सरशीं त्या गरम भाताचे फोव जातालें. बसींत दोरी ओडून कंडक्टर घांटीचो आवाज करता आनी बस थांबता, तशें आंवाळें मुंड्याचेर दांडी मारतकच शिनें लाट वयरच काडून दवरतालें. दुसरे फावट दांडी मारतकच मुंडो पांयान वयर सकयल करतालें. म्हाका तें पळोवन अजापच जालें. कितले कश्ट घेवन तीं फोव करतालीं! आंवाळ्यान म्हाका थोडे फोव खावंक दिले. म्हाका ते सुके फोव तोंडान फूक मारून, कुंडो भायर उडोवन खावचे पडले, तरी ते कितले गोड लागताले सांगूं! तांचे कश्ट हे गोडा परस गोड आसतात अशें म्हाका दिसलें. शिनें पांय ते लाटीर मारून, मारून सामकें घामेल्लें. शारांनी कश्ट नासतना मशिनाचेर जाय तितले फोव घे. हांगा मात घाम गळयले शिवाय कांयच मेळ नासलें. कोणेंय फोव कांडून व्हरतकच एक आटवो फोव लाटीचें भाडें म्हणून काळ्याक मेळटालें.

हांवें आटव्याक विचारलें, "आरे, हांगा तुमचे केंस कोण मारता? म्हाका म्हजे केंस मारूंक जाय आसले." आटव्यान म्हाका म्हाल्यागेर व्हेलो. म्हालो बारीक, लांब सो आसलो. हांवें ताका केंस मारता काय विचारलें. तो म्हणूंक लागलो, "सांजचे केंस मारना, सकाळचो केंस मारतां" तें तरी म्हाका खंय करूंक येता? केंस मारूंक जमना, खाड काडटां. ते सगले लोक भोंवरो दवरताले, लांब शेंडी मानेर आसताली. ते खाड सदांच काडी नासले. खाड, बोड म्हयन्यान एकच फावट करताले. केंस

मारिल्ल्याचे पांच कुडव भात वर्साक जण एकट्या फाटल्यान त्या कापणीकाराक मेळटाले. पिकेर तो वचून तें भात वसूल करतालो. एका घरांत चार जाण दादले आसल्यार तो वीस कुडव भात घेतालो. थोडें शेत रोयतालो, तरी गोरवां गोठ्यांत वरींच आसलीं; जोत भाड्याक दिवन पैशे मेळयतालो. म्हयन्या पयलीं कोणूय येत तर केंस मारिना आसलो. तशे तो केंस केन्ना मारले हें बरोवन दवरी नासलो; तरी केंस एका म्हयन्याक कितले वाडटात हें ताका खबर आसलें. तो मदीं मदीं कुस्क्यां वचून तांचे केंस मारतालो. शिगम्याक ताका उसरपत नासताली. वांखोर परत परत तो चामड्यार घांसून ताका धार काडटालो.

एक दीस कुडवाली गाय खावड खायना जाली. दुसऱ्या दिसा ती गोठेवनच रावली. कुडवान घाडयागेर वचून ताका हाडलो. ताणें पाल्याचो रोस तिच्या तोंडांत बाटलेन घालो. तरी तिसऱ्या दिसा ती हात पांय बडोवंक लागली आनी दनपारां तिणें प्राण सोडलो. आंवाळें गायक पळोवन 'तानू' 'तानू' म्हणून रडूंक लागलें. कुडवान आटव्याक धाडून 'चामू' चामाराक आपयलो. कुडवान आनी चामून गायक रानांत ओडून व्हेली, थंय चामून रांपयेन गायचें चामडें काडलें आनी तें बांदून माथ्यार दवरून घेवन गेलो. दुसऱ्या दिसा आंवाळें चामूगेर वचून आपल्या पांयांचें जोख दिवन आयलें, ताका जोतें करूक सांगलें. जण एका धोरा फाटल्यान चामून जोतें करून दिवप हो कायदो आसलो. जर तो जोतें दिना तर धोर फोंड मारून चामडें काडिनासतना पुरून उडयताले. पांयांत जोतें नासतना आंवाळें रानभर भोंवतालें. कांटो लागलो जाल्यार कांट्यान आपलो कांटो काडटालें. चार-पांच दिसांनी ताका चामून रकाद धाडलो, जोतें तयार जालां, तेन्ना व्हरूंक यो. आंवाळें रकाद मेळटकच रोखडेंच गेलें. पांयांत जोतें घालून हळू, हळू चलूंक लागलें. तशी ताका जोत्याची संवय नासली.

दनपारचो वेळ आसलो. हांव सोप्यार बशिल्लों. जेवण वाडपाचें आसलें. आंवाळें जोतें घालून येतां येतां ताचो पांय फोंडकुलांत पडलो आनी मुड्डलो, तशें तें पडलें. हांवें धांवत वचून ताका उखल्लें. तें लजलें. तरी पांय मुड्डल्ल्यान ताच्यान चलूंक नज आसलें. हांवें ताचो हात धरून घरा हाडलें. शिनें म्हाका पळयत रावलें, कुडव खंय तरी गेल्लो. आंवाळें एका दोळ्यान रडटालें, जाल्यार दुसऱ्या दोळ्यान हांसतालें. म्हजेकडेन वाम आसलो. हांवें म्हळें, "राव, वाम लावया." शिनें म्हणूंक लागलें, "वाम हाड" वाम व्हरतकच शिन्यानच ताच्या पांयाक तो लायलो. हांव वेजार जालों. मनांत आयलें, अदी परस वाम व्हरून दिना जाल्यार वरें आसलें.

दोन-चार दिसांनी ताचो पांय सारको जालो. तरी तें म्हज्या वासाक राव नासलें. तशी सकाळची च्या हाडून दितालें, तीय अनमनले सारकेंच, हांवें म्हळें, "परत त्या फोंडकुलांत पड गो." तेन्ना तें अशें हांसलें, ताचे ते सगळे पान खावन तांबडे जाल्ले दांत म्हाका दिसले. आतां तें म्हाका मास्टर म्हण नासलें. पगार घेता त्या दिसा ताचें बोट धरून म्हाका ताचो आंगठो वॉचराचेर लावचो पडटालो. आंगठो उदेलो तरी ताचो हात हांव सोडी नासलों; तशेंच तें आपूण जावन बोट सोडोवन घेना आसलें. गोरवां राखून रानांतसून येतना एका दोण्यांत चुन्नां, तर केन्नाय काण्णां, चारां, तर केन्नाय जांबळां हाडून दिवंक लागलें. सोप्यार बसून आज खंयचो दोणो येतलो, हाची वाट पळयतालों. एक दीस ताणें कांयच हाडलें ना.

"आगो, आज दोणो हाडूं ना? हांव कितें खावं?"

"म्हाकाच खा." तोंडान तें थोडें शें उर्मट आसलें, हांवे म्हळें,

"आंवाळ्या, मनशाक मनीस खातात गो?"

"खायना किन्याक? मनीस वागा सारके बेमान! वेळार मनशाक कावार करून गोबोर करून दवरतले!"

ताची उतरां म्हज्या काळजार पडलीं. तरी तें अशिक्षीत आशिल्ल्यान हांव ताका समजून घेतालों. ताका उलोवंक कळना आसलें अशें म्हाका दिस, न्हय खबरच आसलें. ताच्या उतरांत सत्यताय आसत हें हांवें सपनांत लेगीत चितूंक ना. शिकिल्लो चितून, समजून दुसऱ्याच्या मनाक लागत हाचो विचार करून उलयता, तरी तें सत्य आसता अशें ना. हें अशिक्षीत, मनांतले विचार जशाचे तशे ओंकतालें. थोड्या वेळान म्हणूंक लागलें,

"वाग मनशाचेर घुरी घालून खाता, तरी सगलो न्हय. पुणून मनीस मात मनशाक पुरून उडयल्यार वयर कांयच दवरिना." ताणें पळयिल्लें तेंच तें उलयतालें "'मास्टर, म्हाजें खरें न्हूं?"

"हय गो, तूं खोटें खंय उलयता?'

तें आपूण जिखलें ह्या विचारान हातान ताळयो मारीत आंगणांतसून भायर गेलें. म्हजें मन ताचीं उतरां परत परत घोळयतालें.

वर्सुकी परिक्षा लागीं पाविल्ली. सगलीं भुरगीं तशीं शिकूंक हुशार नासलीं. तरी सरकारी कायद्या प्रमाण फुडल्या वर्गांत घालपाचीं. शाळा उगडटकच भुरगीं येवचे पयलीं आंवाळ्यान सान्न मारली. हांवें म्हळें,

"किरांटे, सान्न झिडपून मार."

"मास्टर, म्हजें नांव 'आंवाळें'; म्हाका 'किरांटी' कित्याक म्हणटा."

"आगो, किराची वायल ती किरांटी."

"कीर कोण तर?"

"तें म्हाका खबर ना."

"तर तुवें किरांटी म्हाका कशें म्हटलें?"

"आगो, किरांटेचें तोंड तांबडें आसता, पान खायनासतना; तर तुजें पान खाल्ल्यान तोंड तांबडें जालां, हें खातीर तुका 'किरांटी' म्हळ्यार म्हजें चुकलें?"

"पान सगलींच खातात. सगल्यांकच किरांट्यो तूं किद्याक म्हणना?"

खरेंच! त्या उतरान म्हजें तोंड वंद जालें. म्हजो स्वाभिमान दुखलो. ह्या आंवाळ्या कडसून हांवें घेवप? अदी परस ताचे वाटेक वचप न्ही, अशें हांवें थारायलें.

## ११

राष्ट्रीय चित्रां प्रदर्शन दिल्लींत भरपाचें आसलें. सरकारा कडसून चीट आयिल्ली. म्हाका चित्रां काडूंक येतालीं, तरी तितलीं बरीं येना आसलीं. हे सर्तींत वांटो घेवप ना अशें थारावन हांव कुडवागेर आयलों. दनपारचो वेळ आसलो. आंवाळें आंगणांत शेण सारयतालें. ताचे कडेन हांव पळयतना म्हाका दिसलें, हेंच चित्र काडल्यार कशें? आंवाळ्याचें चित्र हांवें काडलें आनी आंगण काडून थंय खरें शेण गमान चिकटायलें. तशें चित्र व्हडलें शें बरें येवंक नासलें, पूण तें दिल्लीक धाडलें. पंद्रावीस दिसांनी म्हाका चीट आयली. "सजीवतेचे भाव पळोवन चित्राक पयलें इनाम दिला." म्हाका खोस जाली. हांवें थारायलें, ते पयशे आंवाळ्याकच दिवप. एक हजार रूपया ताका दिले. ते ताणें घेतले नात.

"चित्र तुवें काडलें, तर इनाम म्हाका किद्याक?"

"बरें, तुका नाका तर तूं घेनाका."

कुडव येतकच ताका म्हळें, "तुजें आंवाळें दिल्ली पावलें. खऱ्यांनी न्हय, चित्रान"

कुडव म्हणूंक लागलो, "नशिबाफुडें कोणूच ना."

आटवो येवन म्हणूंक लागलो, गिल्ली म्हातारी मेली. कुडव आनी हांव भायर

सरले. आमी जेवचे आसले. कुडवान पळय तर गिल्ली मेल्ली. मरतकच चड वेळ जमनीर मडें दवरप ना, कित्याक तर जमनीक तो भार पेलचो पडटा.

रोखडोच कोंडो मारून निसण केली. जाणाक आपयलो. काळो म्हणूंक लागलो,

"तिचे निमणे विधी हांव करतां."

"तर हें खोपूट आनी तिचीं आयदनां तुका येणे."

शेजारी-पाजारी, तशेंच कुस्केच्यान लोक जमले. काळो फुडें चलतालो; हातांतले ताळ वाजयत जाण 'हरे राम, हरे राम' जप करतालो. 'मास्नट' लागसारच रानांत आसली. कोणूय मेल्यार ते थंय पुरताले. गिल्ली मेली हें कळना फुडें दोग जाणांनी फोंड मारून दवरिल्लो. आबोलेचीं फुलां, तुळशीच्या पानाच्यो माळो गिल्लेक घाल्यो. त्यो काळ्यान काडल्यो. तिका पयलीं हात लावन फोंडांत दवरली. सगले रडटाले. फोंडांत दवरून माती घालतकच ताळ बंद केले, रडप थांबलें. कुडवान आनी हांवें न्हाण केलें, मागीर जेवले. तीन दिसांनी काळो जाणा गेर वचून पचंगव्य घेवन मेकळो जालो.

सांजचें कुडवाक म्हळें, "आरे, लाकडां आसतना तुमी मरतकच पुरतात कित्याक? लासल्यार बरें."

"मास्टर, हें खरें. एक फावट वागान सांवार उडयलो. जेन्ना खावंक कांयच मेळ ना जालें, तेन्ना फोंड उस्तून मडीं खावंक लागलो. मागीर मागीर तो मनशां फाटल्यान लागलो. तीग जाण तेणें मारले. तेन्ना सायब आसलो. कारतोशीचे बंदुकेन तेणें फार मारून तेका उडयलो. ना तर आमकां तो कावार करपाचो. केन्ना, केन्ना कोले मस्णटीन वचून कुयकूय करतात, जमीन भुरकितात, हे खातीर कमरभर तरी फोंड मारचो पडटा, वयर मोठे जड फातर दवरतात. पावसान पालो कमरभर मेरेन वाडटा. फोंड मारतना पयलींचीं हाडां केन्ना केन्ना मेळटात. फोंड तो फोंडू मारता. चार दिसांकडेन तेका जेवण वाडचें पडटा. आतां गिल्लेक कोणच ना, कसो? गिल्ली ही पैसुल्या गांवांतसून मिनाच्या कामा खातीर आयिल्लें चेडूं. खण बंद जातकच आवय-बापूय आपल्या गांवांत गेले. गिल्ली वचूंक तयार नासली. म्होंवेंचो एकटो गिल्लेकडेन येतालो. 'गिल्लेक व्हयल्यार तुमचो जीव सांबाळात' अशें त्या तवनासान तेंकां धाक घातलो. गिल्लेक तो पैशे दितालो. गिल्ली हेका सोडून वचूंक तयार नासलें. तशें गिल्ली कामाक, वावराक बरें आसलें. तें लग्न जावंक तयार आसलें, पूण तो फुडल्या वर्साक जावया म्हणटालो. गिल्ली म्होंव्यां वचूंक तयार आसलें, पूण

तो व्हरूंक तयार नासलो. कित्याक, नर पाळण्यांत आसतना तेचें लग्न आनीक एका चेडवा बरोबर करपाचें थारायिल्लें. नाणान तशें नांव घाल्लें. गिल्ले वांगडा लग्न करून दिवंक जाण तयार नासलो. पयलींचें तें चेडूं मेल्यारच हांव लग्न करून दिवंक शकतां, अशें जाण सांगतालो."

"म्हळ्यार, तुमी पाळण्यांत आसतना लग्नां ठरोवन दवरतात काय कितें?"

"हय. व्हड जातकच तेंकां सांगपाचें आनी लग्न करपाचें. संवसार बरो चलता. वायट कित्याक चलतलो? नांवांची गांठ पाळण्यांत बांदिल्ल्यान घट आसता."

"तांकां पसंत ना तर?"

"जाणटेल्यांनी थरयलें की जालें. चेडो व्हड आसता. तो जल्मलो की चार गांवान मागीर जें चेडूं जाता, तें तेका. तेची ती बायल नशिबाची." कुडव सांगूंक लागलो,

"म्हाजें लग्न म्हाज्या आवान थरोवन दवरिल्लें. म्हाका व्हंकल पयलीं दाखयली ना. पुडवें न्हेसून कुस्क्यां व्हेलो. थंय फुलां माळिल्ली व्हंकल आसली. तिणें म्हाका पळोवं नासलो. आमी एकामेकांक माळ घाली. भिंडांचो रोस काडून दवरिल्लो. तितून गोड घालें, सगल्यांक दिलें. दनपारचो होम पेटोवन जेवण जेवतकच शिन्याक घेवन हांव आंवाळी येयलों. म्हाजो संवसार बरो चल्ला. शिनें तशी म्हाजी निगा राखता. म्हाजे खातीर जीव दिवंक तें फाटीं फुडें चयना,"

"हें तूं किद्या वेल्यान म्हणटा?"

"आयक. तिळसान जाल्ली. भायर पावस बरोच वडवतालो. शिनें दूद घेवन गोठ्यांनसून घरांन येतालें. सोप्यार बसून हांव पान खातालों. सुपारी आडकातीन बारीक करतालों. शिनें म्हजे म्हन्यांनसून घरान वचूंक गेल्लें, तेन्ना सोप्याच्या कोनशाक सोरोप म्हाजे वटेन येता तो तेणें चयलो. दुदान भरिल्लो तांवयो थंयच उडयलो. म्हणसर सोरोप म्हाजे फाटल्यान पाविल्लो. आवाजान सोरपान मान वयर करून 'फोंस' आवाज केलो. शिन्यान तेची मान घट धरली आनी तेका जमनीर आपटिलो. सोरोप वळवळूंक लागलो, तेन्ना तांवयो मारून तेणें तेका मारलो." कुडवान घरांत वचून तो पितळेचो तांवयो हाडून दाखयलो. खरेंच नाका चेप आसलें.

हांव थोडो वेळ सिनेमा पळयतां असो भाग्‍ [illegible] म्हाका दिसलें. आतांची पिळगी पयलीं मोग, मागीर संवसार करता. तर हे लोक पयलीं संवसार, मागीर मोग करताले. इतलेंच न्हय, तर जिवाक जीव दिताले

"-तर तो तवनास एक दीस म्हांवच्यान आंवाळी येतना गाडेर पडून मेलो. [illegible]

कसो मेलो, हें कळूंक ना. जिवाणें चावलें, काय पांय निसरून नाक आपटून मेलो, काय काळजाचो आताक येवन मेलो, हें कळ्ळें ना. गिल्लेन आपलो तिळो लग्न जावचे पयलीं पुसलो. काम करून ती पोट भरताली. काकुळटेन कोणूय कितेंय भात, नाल्ल, दितालो. शिगम्या वेळार गिल्लेक वांटो काडून दिताले."

एक एक गजाल आयकतना हांव सपनांत ना मूं असो भास जातालो.

"मास्टर, ही शाळा कोणें वांदली खबर आसा? तो सायब येयलो न्हूं, तेणें सरकाराक कळयलें. एक कंत्राटदोर येयलो. सायबाचे खणींतले चिरे काडले. गांवच्यो बायलो, दादले सगले कामाक लागले. कोंत्रादोरान पाग दिलो. पावस पडचे पयलीं शाळा उबी रावली. दोन मास्टर येयले, तशे रोखडेच गेले. तूं आतां कितलो तेप रावता तो चवया."

"हांव हांगाचो जांवय जावंक सोदतां. तुमकां सोडून कसो वतलों?"

"तें खरें, तरी जांवय मावड्या रावना न्ही?" आमी बागी जातीन सगल्यांत वेले. आमी खोर करतात. तुका खंय खोर, शेंडी आसा? हांगाचें चेडूं तुका मेळचें ना, हें बुदवंतालें उतर!"

कुडवाच्या मनाचो थाव म्हाका जालो. आंवाळ्याक तो म्हजे सरीं लग्न करूंक पळयना, हें हांवें ताडलें.

शाळेचो निकाल लावन हांव म्हज्या घरा आयलों. आतां जुनांत शाळा शिकोवंक वचपाचें. घरा म्हजें मन परत परत आंवाळे धांवतालें. खेड्यांत राविल्ल्यान शारांनी भोंवपाची इत्सा जाल्ली. हांव रानांत गेलों. शारांत गाडयो, घरां हे खातीर सुवात नासता. तर खेड्यांनी सुवात आसून गाडयो घरां नासतात. शारांनी जिवेक विचारून खावपाचें, तर खेड्यांनी मेळटा तें खावन जिवेक समाधान मानूंक लावपाचें. खाणांचेर बंदन, तशेंच कष्ट करचे पडिल्ल्यान खेड्यांतले मनीस काटक आसतात. आंवाळें आतां जांवळां हाडून कोणाक दितलें? असो विचार मनांत घेतालो. दीस कशे गेले कळ्ळेंच ना.

जून म्हयन्यांत सत्री घेवन आंवाळे आयलों. सगल्याकूच उदक पचपचतालें. शेतांत जोतां चलतालीं. थोडे सांवळ करताले. वायलां पांट्यानी शेतांत शेण घालतालीं. भुरगीं ते राशीचें शेण हातांनी सगल्याक फाफशितालीं. कुडवाक बुडकुल्यांत पेज घेवन आंवाळें शेतांत व्हरतालें. कुडवागेर कोणूच नासलो. हांव शेतांत गेलों जाल्यार कुडव म्हणूंक लागलो,

"मास्टर, शाळा आतां सांजची दवरपाची. सकाळचीं तारां पोरां शेतांत कामाक

जाय पडटात. मास्टर, तुका काम सांगतां, तो रोव बारीक मोड." अशें म्हणून ताणें म्हाका बुटयेंत आशिल्लो रोव कसो मोडचो तो दाखयलो. ताचो रोव मोडटकच काळ्यान आपयलो. मागीर काळ्याचो रोव मोडलो. म्हाका काम मेळ्ळें. वैलाक मारूंक वडी करून दिवप, शेवणीं रोव खाता तांकां आमुडप. हळू हळू हांव जोत धरूंक शिकलों. पावस तर खूबच पडटालो.

कुडवान पोन्नी कांबळ दिल्ली, ती घालून हांव मेरांनीं भोंवतालों. म्हयन्या भितर शेत सगलें रोवन जालें. आतां भुरगीं शाळेंत येवंक लागिल्लीं. थोडीं सकाळचीं, तर थोडीं सांजचीं येतालीं. शेत रोयतकच शेता भोंवतणी ते वंय करताले. रानांतसून खूट हाडटाले, आनी कांट्याचीं झाडां लायताले. हांव बेकार आसल्यार तांणी मारून दिल्लीं कांट्याचीं झोपां शेताकडेन हाडून उडयतालों. म्हाका ताचे बदला दाट दुदाची च्या मेळटाली. लागसार एक आंबाड्याचें झाड आसलें. ताका आंबाडे नासले, तरी वारीक बारीक कोंबऱ्यो फुटिल्ल्यो. आंवाळें त्यो कोंबऱ्यो खातालें. आटवो, वाड्यावयलीं भुरगीं त्यो कोंबऱ्यो खावंक धांवतच येतालीं. म्हाका आंवाळ्यान कोंबऱ्यो दिल्यो. पूण त्यो म्हाका आंबट जाल्ल्यान आवडल्यो नात.

"कश्यो खाता गो तूं त्यो माकडा सारक्यो!"

"आमी माकडां! तूं गोरो शारानचो हिंगा कित्याक येयला पोट भरूंक? शारानच रावचो आसलो."

त्या उतराचो म्हाका राग आयलो. तें कितें उलयता तें ताका खबर नासलें.

"अन्नाडी तूं! तुका धड उलोवंक कळना. माकड सुदारलें तरी तोंड काळेंच आसतलें!"

"मास्टर, तूं माकड म्हाका म्हणटा, तर आज साकून तुजे कडेन हांव उलोवचें ना."

त्या दिसा साकून तें हांवें प्रस्न विचारल्यार लेगीत जाप दिना जालें. खावंक मेळपाचें गेलें आनी जापय गेली. म्हजो स्वाभिमान शाबूत आसलो. ह्या गांवठलाकडेन चड संबंद दवरप न्हय. दुसऱ्या दिसा कुडव म्हणूंक लागलो,

"मास्टर, म्हजी कूड तुका मेळची ना. खंय रावता तो राव."

आंवाळ्यान म्हजो सूड घेवपाचो येवजिल्लो. हांव काळ्यागेर गेलों. ताणें म्हाका गिल्लेचें खोपूट रावंक दिलें. गिल्लेचीं आयदनां म्हाका रांदूंक दिलीं. हांवें पन्नास रूपया ताच्या हातार दवरले.

"मास्टर, घर तुवें शिंवन घेवचें पडटलें" अशें ताणें फर्मायलें.

वावझडीन उदक खोपटांत येतालें. खोपूट मदीं मदीं गळटालें. दोन दीस एकटो आशिल्ल्यान न्हीद पडना जाली. तरी मागीर पडूंक लागली. शाळा सकाळची चालू आसली. कुडव सामको नाउमेद जावन जाप करतालो. ताका हांव शरण वचूंक नासलों, हाचें ताका दुःख जातालें. काळो एक दीस म्हणूंक लागलो,

"मास्टर, गिल्लेचें घर खाली कर." हांवें विचारलें,

"कित्याक, कुडवान तुका सांगलां काय कितें?" ताणें तकली हालयली.

"काळ्या, म्हजे पन्नास रूपया परत दी. शिवाय शिवणेचो खर्च तीस रूपया जाला, तो दी. हांव हो गांव सोडून चल्लों."

दोन दिसांनी सांगतां म्हणूंक लागलो. तांचे कडेन दिवंक पैशे नाशिल्ले जावंये. 'पिकेर पयशे दितां,' अशें म्हणूंक लागलो. 'तर पिकेर हांव खोपूट सोडटां' अशें हांवें म्हळें.

कुडव म्हजे कडेन उलयतालो. आंवाळें हांव दिसल्यार फाट करतालें. काळो म्हजेर बरो आसलो. भुरगीं आतां शिकतालीं. मोठे मोठ्यान "अ-आऽ इ-ईऽ" अशें म्हणटालीं. राष्ट्रगीत तर सगल्यांक येतालें. पंदरा ऑगस्टाक कुडवाक झेंडो उबोवंक लायलो. तो उलोवंक शकना जालो. तरी त्या दिसा साकून तो म्हजेर बरो आसलो. आंवाळें सदां शाळेंत सान्न मारून वतालें. हांव ताचेकडेन उलय नासलों. पगार म्हयने म्हाल दितालों. आतां म्हाका रांदून जेवचें पड. काळो न्हंयचेर वचून नुस्तें गरोवन हाडटालो. चार पांच रूपया दिल्यार तो म्हाका जाय तितलें नुस्तें दितालो. चारी वटेन शेत उदकान भरिल्लें आसतालें. हे खातीर खोपटांत शेळ येताली. घरदार सोडून खंयच्या खेड्यांत पावलों, अशें म्हाका दिसतालें. खोपटांत बेबक्यो येताल्यो. परत परत गिल्ली दोळ्यां मुखार येताली. कांबळच घालून हांव पावस आसतना शाळेंत वतालों. कांबळीचीं कुसां म्हाका लागतालीं. आतां संवय जाल्ल्यान तीं तितलीं लाग नासली. तरी एके तरेचो वास मात येतालो. कांबळ सोडोवन रातची रान्नी वयर घालची पड, ना तर ती कुसताली. शेताच्या मेरांनी भोंवन हांव कोंगें वेंचतालों, ते हाडून रांदून खातालों. काळो म्हाका केन्ना केन्ना भाजी दितालो. आयदनां घांसूंक म्हाका जिवार येतालें. त्या खोपटांत रातचो हांव रेडियो लावन वेळ पासार करतालों.

म्हाका बदली करची हे खातीर दोन तीन अर्ज हांवें केले, तरी बदली जाली ना. तरी मुंबय म्हाका चित्रां काडूंक आपयलो. त्या चित्रान म्हजी जीणच बदलली. आर्ट स्कुलांत शिक्षक म्हणून म्हजी नेमणूक केली. तज्ज्ञांनी सजीव चित्राचो नमुनो

म्हणून तें चित्र दिल्ली राजभवनांत धाडलें. म्हजो राष्ट्रपतीच्या हातान भौमान जालो.

'हांव मुंवय वतां हो गांव सोडून,' अशें तांकां सांगतकच आंवाळें रडूंक लागलें. कुडव म्हणूंक लागलो, "मास्टर आमचेर रागार जावन वैता?"

काळ्यान म्हाका गोडाची काकम दिली. कोणें पणसाचे तळिल्ले घरे दिले, तर कोणें सुकें नुस्तें दिलें. सगले भायर सरतना म्हाका पावंक आयले. तांच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. कुडव तर सारकोच रडूंक लागलो. वागाक मारपी इतलो काळजान मोव आसत हें म्हाका खबर नासलें. दुसरो मास्तर आयिल्लो. ताचे सुवादीन शाळा करून हांव भायर सरलों.

आंवाळें म्हणूंक लागलें, "परतो केन्ना येतलो? हांव वाट चयतलें तुजी."

हांवें म्हळें, "कित्याक? म्हाका उतरां परतीं दिवंक?"

"तुका जाय तें समज, हांव उलोवपी न्हय."

अशें म्हणटना ताचे दोळे भरून आयले. ताका घुंवळ आयली आनी तें थंयच पडलें. हांवें सगलें सामान सकयल दवरून ताका वयर उखल्लें. कुडवान न्हंयचें उदक मारतकच ताका शुध्द आयली.

"मास्टर, हांव गाय. म्हाका वाच्या ना. तुका मोनी भास कळना? हांव गांवठी खरें, तुजे सरीं सोबचें ना हेंय खरें, तरी म्हजो जीव तुजे सरीं आसा. तूं कितेंय कर. हांव तुजी वाट पळयतलेंच- हो जीव हे कुडींत आसा मेरेन!... आतां एक काम कर, खुटी देवीचो सोपूत घे आनी सांग, म्हाका विसरचो ना म्हणून,"

हांवें म्हळें, आयक, "खुटयेच्यान तर तुका विसरचो ना" तें हांसूंक लागलें,

"मास्टर, तुजें बरें जावं. आमची याद आसूं" काळ्याचो गळो भरून आयिल्लो.

आटव्याच्या हातार पांच रूपया दवरले. सामान फाटीर मारून हांव चलूंक लागलों. न्हंय हुपून आतां हांव दोंगर चडूंक लागिल्लों. वेळ बरोच वयर पाविल्लो. पाडीचे लोक रानांत पाविल्ले. पावस पड नासलो. तरी केन्ना येत हें सांगूं नज आसलें. म्हजें मन तशें फाटीं ओडटालें; तरी म्हाका बेजार आयिल्लो. सूर्य बुडटना हांव घरा पावलों.

## १२

दुसऱ्या दिसा मुंवय गेलों. थंय म्हाका आर्टस् स्कुलांत चित्रकला शिकोवपाची

नोकरी लागली. म्हज्या हातांत इतली कला आसा हेंच म्हाका खबर नासलें. आतां हांव वेळ मेळटा तशीं चित्रां काडत रावतालों. गरिवींतसून वाडिल्ल्यान हांव पैशे सांठोवन दवरतालों. पैसो मोडूंक जीव म्हजो फाटीं फुडें येतालो. दोन म्हयन्यांनी घरा आयलों, तेन्ना आई लग्नाचो प्रस्न परत परत काडूंक लागली. हांवें म्हळें, "आजून विचार करूंक ना." वेळ मारून व्हेलो. हांवें थारायिल्लें, आंवाळ्याक उतर दिल्लें मोडप ना. आंवाळें सपनांत केन्नाय येतालें. हांव म्हणटालों "आगो, तुका विसरूंक ना हांव. परत तुका मेळपाक येतलों." मनांत आयलें, आंवाळी वचून आयल्यार बरें. तरी घरच्यांक दुबाव येत म्हणून तो विचार हांवें काडून उडयलो. चीट बरयल्यार आंवाळ्याक वाचूंक कशी कळटली, अशे विचार मनांत येताले.

## १३

स्कुलांत शिकयतना 'सांवली' म्हाका लागीं जावंक लागलें. सांवली हें आंवाळ्या सारकेंच काळें आसलें, हे खातीर ताचें नांव सांवली अशें दवरिल्लें जावंये. तें म्हजी फाट सोडी नासलें. सांवळे सारकें निमित्त्य करून म्हजे कडेन उलोवपाचो यत्न करतालें. हांव एक कूड भाड्यान घेवन खाणावळींत जेवतालों. सांवली आवय बापायचें एकटेंच चली. बांदऱ्या तांचो बंगलो आसलो. एक दीस ताणें सहजच म्हाका आपल्या बंगल्यार आपयलो. म्हजे कडेन स्कुटर लेगीत नासली. तें गाडी घेवन आयलें. हांव तांच्या बंगल्यार गेलों. ताच्या बापायचो रुबाब बरो आसलो. तो वकील आसलो. बंगल्यांत सगळें आसलें. राजेशाही थाट आसलो. जेवण बरें केल्लें. म्हाका दिसलें, खंय कुडवाली आमील आनी खंय ही बिरयाणी! बंगल्यांतलो थाट-माट पळयतकच म्हजे दोळे घुंवले.

ताचो बापूय म्हणूंक लागलो, "ये देख, मेरी इकलौती बेटी, जायदाद के साथ तुम्हे सौंपता हूँ. हाँ या ना बोलो." कितें सांगचें कळना जालें. म्हाका आतां आंवाळें दोळ्या मुखावयलें गेलें. गिरेस्तकायेक खोंटावपाचो मुर्खपणा हांव करचों ना अशें हांवें थारायलें. घराकडेन तर तांकां आंवाळें नाका आसलें. म्हाका आतां बंगलो, गाडी दीसभर मनांत घोळूंक लागली. कष्ट करी नासतना आयतें मेळटा तर तो सोडपाचो मुर्खपणा हांव कित्याक करूं? आतां आंवाळ्याक विसरचें थारायलें.

लग्न मुंबयंत व्हडल्या हॉलांत जालें. घरसून एक बस लोक आयिल्लो तितलोच.

आतां हांव गाडी शिकिल्लों. हनिमुनाक दिल्ली- शिमल्याक गेलीं. ताजमहाल पळयलो. थडग्याची पुण्याय आसता, ताका देवत्व येता. एका देवळांत गर्दी जावची ना तितली हांगा थडग्याचेर जाता, असो विचार मनांत आयलो. पूण लोक येतात ते ताज महाल पळोवंक, ताची सुंदरकाय पारखूंक, तरी थडग्यार तांकां वचचेंच पडटा.

दीस अशेच मजेंत वताले. नशिबानच म्हाका सगलें दिलें अशें म्हाका दिस. चार वर्सां लग्नाक जालीं, तरी पाळणो हालूंक नासलो. दोतोर केले, तरी कांयच उपेग जालो ना. देवसपण केलें, वार केले, उपास-तपास केले, तरी सगलें फुकट. लग्न जातकच हांव ताच्या बंगल्यांत रावंक वतना हांवें आंवाळे साकून हाडिल्लो आंवाळो सुकून म्हजे बँगेंत आसलो, तो हांवें बंगल्या मुखार जमनींत पुरलो. सावलेक हें खबर नासलें. थोड्या दिसांनी तो किल्लून वयर आयलो आनी रोपो जालो. सांवली तो काडून उडोवंक गेलें, तेन्ना हांवें ताका सांगलें. "आगो, तो एक रानवटी झाडाचो रोपो. पसवता तर पळोवया."

सदांच त्या रोप्याचेर नदर मारतकच म्हाका आंवाळ्याची याद येताली. तरी आंवाळ्याच्या रोप्याक हांवें घरांत घेवंक नासलो. तो तसोच घरा भायर सैमांत वाडटालो. काळो-काळसो रोपो, तरी घसघशीत वाडटालो, टवटवीत पानां पळोवन सांवली वचून त्या पानांची सांवळी घेतालें. दिशीं दिशीं तो वाडत वतालो. आतां तो बंगल्याचे बरोबर पाविल्लो. सांवली म्हणपाक लागलें, "झाडाक पेड बांदया."

"आगो, रानवटी झाडांक कोण पेड बांददतात?"

ताचेर सांवली म्हणूंक लागलें, "तूं तो देहाती, मगर तुम्हे शहरमें सम्मान मिला, जो शहर वासियोंको नसीब कहाँ?"

सांवलेक कोंकणी उलोवंक येना आसली, तरी उलयल्यार थोडी थोडी समजताली. म्हाका हिंदी बरी येना आसली, तरी अर्थ कळटालो.

स्कूल सुट्टकच सांवली आनी हांव गाडयेन बंगल्यार आयलीं. पावस सकाळ साकून ओतत आसलो. म्हाका येतना वतना आंवाळेच्या झाडाक पळोवपाची संवय जाल्ली. तरी आज पावस पडिल्ल्यान गाडी थारावन हांव बंगल्यांत सरलों. कपडे बदलतकच गरम च्याचे घोंट घेत हांव गच्चेर आयलों. वावझड मारताली. तरी पावस पळोवपाची खोस म्हाका आसली. नदर फिरयता थंय धुकट पावसच दिसतालो. रस्ते, बिल्डिंगो कांयच दिस नासलें. हांव सामको तल्लीन जावन त्या पावसाचो नाच पळयतालों. म्हाका आंवाळी आसतना असो पावस पडिल्लो याद जाताली. थोडो वेळ सगलें विसरून हांव आंवाळी पावलों. आतां वारो नेटान व्हांवतालो, तरी हांव थंय

रावन त्या वाऱ्याक अणभवतालों, सुखावतालों. सांवली येवन म्हणूंक लागलें,

"क्या, वरसात कभी देखा नहीं क्या?" हांवें म्हळें,

"हांवें पावस पळयला, तरी वारो-पावस हातांत हात घालून येतना हांवें पळोवंक ना."

आतां वाऱ्याची वावटळ जाली आनी चक्रा सारखी फिरत आयली. ते सरशीं आंवाळ्याच्या झाडाची तेंगशी मोडून जमनीर पडली. म्हज्या काळजांत धस्स् जालें. आंवाळे लागचे पयलींच तें झाड मोडून पडिल्लें. आंवाळ्याची याद जाली. मनांत आयलें, आंवाळ्याचेर असो प्रसंग येवंना मूं? फळां येवचे पयलींच जशें हें झाड मोडून पडलें, तशें आंवाळें आंकवारपणांतच सोपूं ना मूं? आंवाळ्याचो आनी ह्या झाडाचो लागींचो संबंद आसूंक जाय. ना तर सुकिल्लो आंवाळेचो आंवाळो किल्ललो कसो? हे विचार मनांत येतकच हांव गच्ची सोडून भितर सरलों. भायर थंडसाण आसून लेगीत म्हाका घाम येवंक लागलो. मनांत आयलें, आंवाळें उर्मट आसलें, तरी ताणें म्हजे कडसून सोपूत घेतिल्लो. हांवें तो सोपूत मोडलो, तरी ताणें तो लक्षांत दवरून मोड नासतना म्हजी वाट पळयत रावल्यार? नाना तरेचे विचार म्हाका सतावंक लागले. कितें करचें तें कळना जालें. रातभर न्हीद आयली ना. सांवली म्हणूंक लागलें

"क्या हो गया है आपको?" हांवें म्हळें,

"घरच्यांचो पावसा खातीर हुस्को जालो."

"तो चल, कल सुबह गाडी लेके घर जायेंगे."

## १४

हांव सांवलेक बरोबर व्हरूंक सोद नासलों. तें येताच म्हणटकच आतां कितें करतलो? सकाळीं पांचाक उठून आमी गाडी घेवन भायर सरलीं. रस्त्यांनी उदक भरिल्लें. सकाळीं रस्त्यार व्हडलीं वाहनां नाशिल्लीं. हांवें गाडी वेगान सोडिल्ली. म्हजें चित्त थाऱ्यार नासलें. पावस तसो बारीक बारीक शिरशिरतालो. त्या दिसा रातचीं आमी पणजे पावलीं. हॉटेलांत रावलीं.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच उठून आंवाळेचे दिकेन गाडी धांवडायली. आंवाळी मेरेन रस्तो जाल्लो. रस्त्यावयले फलक पळयत हांव गाडी धांवडायतालों. आतां

फलकार 'आंवाळी' हीं अक्षरां दिसलीं. विजेचे खांबे रस्त्याचे दोनूय वटेन आसले. वाटेर बारां  दिसलीं. नाचण्याचीं शेतां आसलीं थंय काजूचे मळे दिसताले. दाबणें आनी काती घेवन माडार चडपी रेंदेर दिसताले. हांव आसतना एकाय माडाची पोंय कापूंक नासली.  माड नाल्लांनी भरिल्ले आसताले. तर आतां सुरी खातीर माडार बुडकुले दिसताले. हांवें गाडी रस्त्यान व्हेली. रस्तो मातयेचो आसलो. गाडी चिखलान भरताली. तरी जाता तशी ती फुडें व्हरतालों. गिल्लेचे खोंपी कडेन पाव जाल्यार थंय खोंप नासली, खोंपीचो तळ आसलो. ऊस खंयच दिश्टी पड नासलो. गोरवां जळामळाक भोंवतालीं. शेतां खूबशीं पडंग आसलीं. आटवो दिसलो. तो आतां मानाय जाल्लो. तरी लोक चडशे दिस नासले. कुडवाल्या घरा मुखार हांवें गाडी थांबयली. जाल्यार रडपाचो आवाज येवंक लागलो. आंगणांत कोंड्याचे ताजे कुडके पडिल्ले. सांवलेक सांगलें, "हें पळय, ह्या घराचे कुडींत हांव रावतालों."

आटवो येवन म्हणूंक लागलो, "मास्टर, तुका कळाव जालो; आंवाळें काल सांजचें मेलें, तेका मस्णटींत घेवन गेल्यात, ते परते येयले नात."

पावस सकाळच्यान पडत आशिल्लो. हांवें गाडी फुडें व्हेली आनी सांवलेक घेवन मस्णटी कडेन गेलों. पावस पडटालो. लाकडांचेर आंवाळें आसलें. म्हज्या दोळ्यांतसून दुकां भायर पडलीं. सगल्यो यादी खिणा भितर दोळ्यां मुखार रावल्यो. काळो आतां म्हातारो जाल्लो. ताका खांक मारताली. कुडव माथ्यार वालो घालून झाडापोंदाक आसलो. थोडे जाण फोंड मारताले. काळो म्हणूंक लागलो,

"मास्टर, आंवाळें म्हणटालें, मरतकच दाह करात म्हणून. पयलेच फावट आमी लांकडां एकठांय केल्लीं. तुवें दाह करप चड बरें म्हणून सांगिल्लें न्हय, हे खातीर आंवाळ्यान पयलींच सांगलें, 'म्हाका पुरूं नाकात' तरी सकाळीं साकून पावस पडिल्ल्यान लांकडां भिजलीं. पेट घेनात.

आंवाळ्या कडेन एक फावट पळयलें, सामकें बारीक जाल्लें. सुकून सुकून ताका कात आनी हाडां आसलीं. हांवें ताचो दाह करचो थारायलें. अजापाची गजाल म्हळ्यार पावस थांविल्लो. हांवें गाडयेचें पेट्रोल काडलें आनी त्या लाकडांर घालें. फस्का काडी मारली. लाकडांनी पेट घेतलो. परत पावस सुरू जालो, तरी एक फावट लाकडांनी उजो घेना फुडें तीं पावसाच्या उदकान आनीक नेटान पेटूंक लागलीं. वारो वरोच व्हांवतालो. त्या उज्याच्या लोटांनी आंवाळें नाच्च जालें. हांव कुडवागेर आयलों. कुडव म्हणूंक लागलो,

"मास्टर, तुंवें उपकार केले म्हाजेर. ना तर आमी तेका पुरपाचे. तेची निमणी

इत्सा उज्यान शेवट जावपाची तशीच उरता आसली. तुवें आमकां एक फावट सांगिल्लें उतर तेणें घट्ट धरिल्लें. 'मास्टर सांगतालो, हे खातीर आपणाक लासात' अशें तें म्हणी. तूं वतकच सदांच तूं जे वाटेन गेल्लो ते वाटेक नदर लावन तें पळयतालें. तुवें सांगिल्लें हे खातीर शाळेंत वचून सान्न मारतालें. तूं वचून दोन वर्सां जाले उपरान्त तुजो तेणें ध्यासच धरलो. 'फटयलें, फटयलें म्हाका' अशें तें बडबडूंक लागलें. खाणा-जेवणाचेर ताचें मन नासलें. जेवल्यार जेवलें, ना तर उपाशीं! रानान वचून तें जांवळां, चुन्नां, चारां मेळटा तें हाडून तीं दोण्यान घालून तुजे ते कुडीन दवरतालें. आतां तें सकाळची च्या लेगीत पयलीं ते कुडीन दवरले शिवाय आपूण पिना आसलें. जेवतना थोडें पयलीं काडून तें व्हरून दवरतालें. हांवें तेका मारलें, बडयलें, तरी आपलो हट्ट तें सोडी नासलें. तुजो एक फोटू ताचे कडेन आसलो, तो घेवन म्हणटालें, 'येतलो मरे एक दीस म्हाका लाकूड घालूंक?' हालीं तें सामकें पिश्यावरी बडबडटालें. 'मास्टर, तूं फटींग' अशें म्हणटालें. जाणाक हाडून सगले उपाय केले. तेचेर म्हारू बसला हे खातीर जाणान ताका बेतकाटेन मारलें. तरी तें सोसून रावलें. हालीं तें जेविना जालें. तेच्यानी चलूंक जायना जालें. म्हाका म्हणूंक लागलें, 'आबो, तूं मदीं पडिल्ल्यान मास्टर म्हाका सोडून गेलो. नातर म्हजे कडेन तो लगीन जावपाचो.' हांव तुमचें घर नकळों, हे खातीर तुमच्या घरा गेलों ना. हांवें पयलीं आडस केल्लो. ना न्ही, तरी मागीर हांवें तुका आंवाळें दिवचें थारायिल्लें."

शिनें येवन म्हणूंक लागलें, "मास्टर, तुवें सोपूत मोडलो, खूब वेळान येयलो तू!"

सगलीं घरचीं रडटालीं. जाण येवन म्हणूंक लागलो,

"मास्टर तुवें आंवाळ्याक अग्नी दिला, हे खातीर तुवें तेचे विधी करचे पडटले. खरें म्हळ्यार घोव बायलेक अग्नी दिता, अशें शास्त्र आसा. तरी तूं तेजो घोव न्ही, तुमचें लगीन जावंना. आतां वयर मसणटीन वच. थंयचो एक फातर आनी तेका घाल्ल्या वस्त्राचो कुडको हाड."

सांवलेक थंयच दवरून हांव मस्णटींत गेलों. फातर वस्त्राक बांदून हाडलो. जाण म्हणूंक लागलो, "तीन दिसांनीं तो घेवन वयर दाड देवा म्हन्यान यो."

सांज जायत आयिल्ली. पावस पडपाचो थांबिल्लो. सांवलेक सगलें नवेंच कशें दिसतालें. हांव आनी सांवली न्हालीं. शिन्यान पेज हाडून वाडली. दीस भर उपाशीं आसलीं तरी सांवलेक ती पेज भितर वचना जाली. तें बळयां तोंडांत चेपतालें. म्हाका पेजेची संवय आसली. आंवाळें ना हे खातीर आमकां पेज जेवची पडिल्ली.

गादयेर न्हिदपी सांवलेक शेंदरेर न्हिदचें पडलें. म्हाका न्हीद आयली. सपनांत उजो दिसतालो. कुडव सोरो पियेवन कित्या कितें बडबडटालो. रस्त्यार विजेचे वल्ब पेट्टाले खरे, तरी घरांत वीज घेवपाची तांक तांकां नासली. रातची वागाची गरड आयकूंक येना आसली. गोठ्यांत आशिल्लीं गोरवां बरींच उणी जाल्लीं.

सकाळचो उठटकच दूद पिवन सांवलेक हांव गांव दाखोवंक घेवन गेलों. पयलीं शाळेंत गेलों, जाल्यार मास्तर सकाळचोच पियेवन मेजार न्हिदिल्लो. भुरगीं हांगा थंय नाचून वेळ घालयतालीं. तसोच फुडें वच तर सायबाचो बंगलो पडिल्लो. नळे कोणें तरी काडून व्हेल्ले. सांवर वोडकी दिसताली. गीद वयर झाडार बसून आंवाळी पळयतालो. खंय बडग मेळत काय हाची ताका चिंता आसली. न्हंय तुडुंब भरून घोगेत व्हांवताली. मरतकच मुज्ग लायतात तसो भयानक आवाज येतालो. सांवली चलूंक शक नासलें. ताका हांव सांगतालों, "हें पळय, हांगा हांवें दीस पासार केले." सांवलेक म्हजी तोखणाय दिस, तें शारांक उबगल्लें, खेड्यांत ताका नाविन्य दिस, तरी "इधर गंदा वहूत है" अशें तें परत परत म्हणटालें. गांवची दुर्दशा जावन गेल्ली. म्हाका काळो मेळ्ळो. हांवें विचारलें,

"आरे, तुजें पोरसूं खंय?"

"मास्टर, आतांचीं भुरगीं आमकां मानिनात, ते भाटयेर वचून सोरो ढोकतात. म्हाज्यानी जायना. आतां शिगमो लेगीत काडिनात. पयलींची उमेद मेल्या. शिगम्यान गांवची बिरी वैताली. आतां ती हिंगा घर करून आसा."

म्हाका फाटले दीस नदरे मुखार येताले. हांवें पन्नास रूपयांची नोट काळ्याच्या हातार दवरली. कुडवाच्या घरांत सरतना म्हाका जोतें दिसलें, पटे तुटिल्लें. वारीकसाणेन पळय तर तें आंवाळ्याचें आसलें. आज तें जोतें घालपी आंवाळें नासलें, तरी तें ताची वाट पळयत आंगणाभायर आसलें. आंवाळें लेगीत अशीच म्हजी वाट पळयतालें काय? हांवें तो विचार थंयच फाफुडलो. पावसान सगल्याक चिखोल जाल्लो. शिन्यान रांदून वाडलें. सावलेक वरोवर घेवन हावें वाडी दाखयली. ताणें म्हाका विचारलें, "ये पेड जो हैं, उसे क्या कहते हैं?" हांवें म्हळें,

"कष्टेल म्हणटात; ताका आंब्यायेदीं हळडुवीं फळां जातात. तीं सुकोवन बारीक करून तेल काडटात, ताका 'कष्टेल' म्हणटात. ह्याच तेलाचे दिवे हांगाचे लोक लायतात."

"यह कौनसा फल है, आंवला जैसा?"

"आगो, हाका 'रिठो' म्हणटात. रिठे सुकत घालून मागीर ते फुगत घाले की

शाब्बा सारखे कपडे निवळ करू येतात."

"यह सच है?"

"तुका पटना तर हीं फळा घे; मुंबय तुका कपडे निवळ करून दाखयतां."

"अच्छा, याने कि यह प्रकृतिका साबून है!"

"ह्या लोकांकडेन घडयाळ ना तरी तांकां वरां कळटात. दिसाचे सुर्याच्या किर्णां वेल्यान ते वेळ थारायतात."

"रातको सूरज कहाँ होता है?"

"आगा, रातचे ते नेकेत्रां वेल्यान म्हळयार 'सप्तर्षि' च्या नेकेत्रां वेल्यान वेळ थारायतात. सकाळ जावंक थोडो-चड वेळ आसा असो अदमास ते सांगतात."

"यह तो अचरजकी बात है!"

"हातूंत अजाप ना. आमकां तांतलें कांयच खबर ना हेंच अजाप म्हणपाचें."

चवथ्या दिसा हांव न्हावन सांवलेक घेवन वयर देवळे कडेन वचूंक भायर सरलों, बरोबर फातर आनी वस्त्र घेतिल्लें. सांवली रानांतसून वतना भियेतालें, तरी हांव आशिल्ल्यान ताका धीर आसलो. माकड पैस झाडार हूप हूप करताले. सांवली म्हाका विचारतालें, 'ये पेड कौनसा है? उसे कौनसा फल लगता है?' म्हाका खबर आशिल्लें हांव ताका सांगतालों.

आमी वझन्यार पावलीं. खळोखळो आवाज करीत झर व्हांवताली. पाचवी शेंदरी सगल्याकच घाल्ली दिसताली. पावस पडिल्ल्यान जोतीं ओलीं जातालीं. सूर्य वयर पाविल्लो तरी ताचीं किर्णां तशीं खर नासलीं. वारो व्हांवतकच कुडकुडो खातालो. आमी झरी म्हन्यांत गेलीं. थंड थंड उदक तोंडार लावन सांवली फकाणांनी म्हणूंक लागलें,

"फ्रीजका पानी है क्या?" हांवें म्हळें,

"हो दोंगर म्हळयार फ्रीज. तांतलें हें थंड उदक."

तें हांसूंक लागलें. तें हांसतालें तें ताच्या गिन्याना खातीर काय म्हज्या विनोदा खातीर हें म्हाका कळ्ळें ना. झरी फुडें एक तळें आसलें, तातूंत बेबक्यो आसल्यो. आमच्या आवाजान त्यो उदका वयल्यान उडक्यो मारीत पैस गेल्यो.

"पानी के उपरसे वह मेंडकियाँ कैसी छलांग लगाती हैं, देखो."

"आगो, हांवें कितलेशेच फावट तांकां पळयलां. हें आजच पयले फावट हांव पळयना."

त्या दिसाची म्हाका याद जाली. ह्याच जाग्यार कुडवान वागाक मारिल्लो.

वाग आज परत येना मूं, असो विचार मनांत आयलो. हांवें सामान वयर दवरून तळ्यांत उडी मारली. आंग भिजोवन वयर आयलों. इतल्यांत एका पेल्यांत पंचगव्य घेवन कुडव येतालो. तो येतकच म्हजो भंय गेलो. आतां आमी दोंगर चडूंक लागलीं. सांवलेक हातांत बडी दिवन सांगलें, "हिचो आधार घे, ना तर उडी घेवशील."

"मुझे एवरेस्ट शिखर चढनेका आभास हो रहा है." हांवें म्हळें,

"आमी खंयच्या कामा खातीर वतात हें जाणा मुगो तूं?" तें ओगी रावलें.

कुडव काटक आशिल्ल्यान चडटालो, तरी शक्त नाशिल्ल्यान ताका खरस येताली. वाटेर झाडाचे ताळे आयिल्ले ते कुडव पाळान कापतालो. कळकीचीं झाडां वरींच व्हड जाल्लीं. पैस रानवटी कोंबो साद घालतालो. आमचे नुखावयल्यान एक नागीण वाटेन वतना दिसली. कुडवान तिका मारपाचें धाडस केलें ना. ती वाटेन फुडें वतकच आमी फाटसून गेलीं. कुडव म्हणूंक लागलो, "आंवाळें हे नागणीच्या रूपान दिसलां आसतलें." कुडवाचे दोळे भरून येताले. "कोमरी करपली, हांव कितें करूं मास्टर?" अशें तो परत परत म्हणटालो.

आतां आमी देवळे म्हऱ्यांत पाविल्लीं. तळ्यांत वचून हात पांय धुले. देवळांत भितर गेलीं नात. जाण खंय तरी गेल्लो. येवंक कळाव आसलो. दोंगुल्ले वयल्यान नदर मारता थंय पाचवें पाचवें दिस. सुर्याचीं किर्णां कुपांक फाटीं घालून लक्क पडिल्लीं. तीं किर्णां आंगार घेवंक खोस जाताली. सांवली जाम जाल्लें, तरी दोंगुल्लेचेर तळें तशेंच सैम पळोवन तृप्त जातालें. तशी ताका आवड नासली, तरी सुंदरताय पळोवंक कोणाक नाका आसता? कुडव म्हणूंक लागलो,

"मास्टर ह्या तळ्यांत कांसव आसात, तेका मारिनात. कित्याक तर ते देवाचे. त्या थोंट्यान एक कांसव हितुंतलो धरून खाल्लो. पूण आठ दिसां भितर रगत ओंकून मेलो. देवसपण बरेंच खर आसा."

आमी भायरच उबीं आसलीं. जाण येतना दिसलो. जाण आतां म्हातारो जाल्लो. दोंगुल्ली चडटना परत परत थांवून चडचें पडटालें. तो तसोच तळ्यांत गेलो, उडी मारून न्हालो. म्हाका ताणें न्हालो काय विचारलें. 'हांवें हय, न्हालां,' म्हणटकच कितें तरी मंत्र म्हळे, शास्त्र विधी केले. तळ्यांत वचून एकशें आठ फावट वुडून वयर यो म्हणूंक लागलो. म्हाका थंडी भरत म्हणून सांवली भियेलें. जाण म्हणूंक लागलो, तूं एक हजार न्हाणां न्हालो तरी तुका हें उदक वादचें ना. हांव एकशें आठ फावट वुडून वयर आयलों. मागीर ताणें पंचगव्य त्या फातरार आनी वस्त्रार थोडें रकोवन, आमकां पिवंक दिलें. दनपारचें केळी पानार शीत घालून

कावळ्याक दियात म्हणूंक लागलो. मागीर ताणें आमकां च्या दिली. हांवें शंभर रूपया ताच्या हातार दवरले. तो हांसूंक लागलो. ताका तितले पैशे कोणेंच केन्ना दिवंक नासतले. कुडव सगलें मोन्यानी पळयतालो.

दोंगुल्ली देंवन आतां आमी परत कुडवागेर पाविल्ले. घरांतलीं मदीं मदीं रडटालीं. वाड्यावयले लोक येताले. कुडवाक, शिन्याक समजायताले. दनपारचें जेवण जालें. हांवें केळी पानार थोडें शीत घेवन आंगणा भायर दवरलें, जाल्यार कावळे आयले आनी रोखडेच खावंक लागले. कुडव अजापीत जालो.

"आंकवारपणांत मरून लेगीत हेचो आत्मो तृप्त कसो? मास्टर, तुजे खातीर तेचो दाह जालो. तशेंच सगलें तुजेच हातीन जालें, हे खातीर पोर म्हाजें तृप्त जालें आसतलें."

दनपरां नव्या मास्तराक कुडवान जेवणाक आपयिल्लो. तो सामको ह्या गांवाक उबगल्लो. म्हाका म्हणूंक लागलो, "सगलीं भुरगीं जड मेंदवाचीं, शाळेंत चडशीं येनात. हांगा जायत्यो वस्तू मेळनात. हांगा रावन हांव गांवढळ जावन वतलों, अदी परस हांवें शारान बदली मागिल्ली. हांचे विचार आनी म्हजे आचार-विचार वेगळे. उलयतलों म्हळ्यार कोणाकडेन? रांदून म्हाकाच जेवचें पडटा. जिवाण्यांचो भंय दिसता. मस्णटीन रातीचे कसले तरी आवाज येतात- हांसपाचे, रडपाचे. पयर आंवाळें मरतकच ते राती 'मास्टर, मास्टर' अशे उले मारिल्ले सारके आवाज येताले. म्हाका कोण आपयता म्हणून म्हाका भंय दिसलो."

हांवे म्हळें, "आयक, तूं तुजो विचार करता. तूं हांगा नोकरी करूंक आयलो काय शिकोवंक आयलो? हांगाचे लोक तशे मनान बरे आसात. पयलीं ते आंवाळ्या सारखे कडू दिसतात, तरी जिवाक जीव दिवपी. तांकां वागूंक उलोवंक कळना, तरी आपणें ताचो अर्थ लक्षांत घेत तर सगलें सारखें जाग्यार पडटा. तूं लोकां मदीं भरसून वच, तांचीं मनां समजून घे, म्हणटकच तूं तांकां सुदारूंक शकतलो."

तो म्हणूंक लागलो, "हें तुजें बरोबर. तरी हे लोक फटींग जाल्यात. दीसरात सोरो ढोकतात- जाणटे, नेणटे म्हणी नासतना. आंगांत तांच्या शक्त ना. मनीसपण ते व्हगडावन बसल्यात. रानांतलीं झाडां मारून तीं विकून ते पोट भरतात. शेत करूंक बैल खंय आसात? शिकून कितें करचेलें आसा? अशें ते म्हाका विचारतात."

हांवें जळा मळाक बारीकसाणेन नदर मार तर काट्टाच्यो वाली दिश्टी पडटाल्यो आनी तांकां काट्टां भरून आसलीं. किरायतें किल्लल्लें. पयलीं तंवशिणीच्यो वाली दिश्टी पडटाल्यो. आतां कामतां, पोरसां करपाचें तांणी सोडून दिल्लें जावंये. मनांत

आयलें, जिणेक उबगून वीख खातले म्हळ्यार हांचे कडेन पैशे नात, कारिटां खाल्यार मरना.

सांजची आमी गाडी सुरू केली आनी येवंक लागलीं. कुडवान धांवतच येवन पानांत गुटलावन ल्हानशी पुडी दिली. हांवें ताका गाडयेंत आशिल्लो रग दिलो. शीं खातकच उपकरतलो म्हणून. आमी वतना काळो आयिल्लो. शेजारी आयिल्ले. कुडव म्हणूंक लागलो, "आयज सावन आमी थारायलां, मरतकच दाह संस्कार करतले म्हणून. पयलो केलो तो आंवाळ्याचो. तुमचें बरें जावं मास्टर, तुवें म्हाजेर बरोच उपकार केलो. आंवाळे वथरेवन वथरेवन तुजे खातीर मेलें. म्हाका तुमचो मोग खबर आसलो, तरी अशें जायत चितूंक नासलें. केन्नाय गाडी घेवन येत आनी हांव नासत तर आटव्याची खबर घेवन वच. तुजें बरें जातलें. फुडले फावट परत ह्या गांवांत येतना गाडयेचो आनीक एक सीट भरतलो हें लक्षांत दवर, हेचे वयर हांव कांयच दिवंक शकना. इतले दीस आंवाळ्याक लागून बोम पिवपी तुमच्या घरांत येवंक ना. कावळे चय कशे 'बाब' 'बाब' म्हणटात!"

हांवें पणसा आळीचेर पळयलें, तर कावळे काव काव करी नासले, एके तरेन हेल काडटाले. कुडव तांकां म्हजे परस चड वळखता हें म्हाका खबर आसलें. 'ते तशें म्हणनात,' अशें म्हणपाचें धाडस म्हाका जालें ना. मनांत थारायलें, कुडव म्हणटा तें खरें वो फट हें कळटलें. दोतोरांनी माघार घेतिल्ली तर कावळे कितें सांगतले भविष्य? गाडी फुडें वचूंक लागली तसो गांव फाटीं पडूंक लागलो. आंवाळेचीं झाडां पालेल्लीं, तरी आंवाळे नासले. इतले मजगतीं म्हाका याद जाली, हांवें गाडी फाटीं घेतली. आंवाळ्याचो तुवालो कुडवा कडसून मागून घेतलो आनी मस्णटींत गेलों. थंय सारयेचेर वचून अस्थी भरल्यो आनी तुवाल्यांत बांदल्यो. धव्यो अस्थी पळोवन म्हाका दिसलें, ताचें मन इतलें धवें आशिल्लें काय कितें? आज हांव अस्थी ची पुडी व्हरतां. पयलीं तें पुडयेन म्हाका धवीं फुल्ल चुन्नां हाडून दितालें. कितलीं गोड! मनीस मरतकच पावला कणकणीं ताच्यो यादी जाग्यो जातात. येतना म्हाका आंवाळ्याचें तुटिल्लें जोतें दिसलें. हांवें सांवलेक म्हळें, तें जोतें घाल. ताणें तें जोतें घालें. मनांतलें काम जावंक जाय तर हांव सांगता तें कर हें ताका पयलींच हांवें शिटकायिल्लें.

"सांवली, यही वह आंगन है जिस का चित्र मैने खींचा और यही वर गोबर हैं जो चित्रपर चिपकाया। इसके वास्ते तुझसे व्याह कर पाया। नहीं तो इधरका ही दामाद वनकर रहता।"

आतां आमी काशी वचपाचें थारायिल्लें. वाटेर सांवलेक गूट सगलो कळिल्लो. "मेरी ओर तूं पहले देखता भी नहीं था, उसका कारन मुझे अभी मालूम पडा."

"तुजें बरोबर आसा. मनीस वेळाचो गुलाम जाता. यादींचो विसर ताका रोखडोच पडटा. आंवाळ्याचो राग आनी मोग दोनूय म्हजेर आशिल्ले. हांव दुखावलां हें ताका खबर आसलें. हे खातीर ताचें हांवें सगलें केलें, तुका ताचें जोतें घालूंक लायलें आनी ताच्यो अस्थी गंगा न्हयंत विसर्जीत करतकच ताचो राग म्हजे वयलो वतलो आनी मोगच उरतलो. तुका सगलें सपना सारकें दिसलें. तेच बरोबर रानवटी लोकांक कितले कष्ट काडचे पडटात हेंय समजलें. तांचें गिन्यान, रिती, कष्ट, सगले तुवें अणभवले नात तरी दोळ्यांनी पळयले. ते लोक जल्मतातच कष्टान. कष्टानच वाडटात, कष्टानच मरतात. रानवटी माकड कशे जगतात, तशी तांची जीण. धड घर ना, धड जेवण. तीच खरी सैम जीण. तातूंत कृत्रिमताय आसना. तांकां राजकारण लागना. खंयचोय पक्ष सत्तेर येवं, तांचें तांकां पडून वचूंक ना. ते मंत्र्याक लेगीत वळखनात. ते दुसऱ्याक त्रास दिनात, तशेच दुसऱ्याचो दुसवास करी नात. हांव म्हजो पगार बोल्सांतच दवरतालों, तरी ताका कोणेंच केन्ना हात लायलो ना. शारांनी बँकेच्या लॉकरांनी दवरिल्ले पैशे, वस्तू ना जातात, ही सत्य स्थिती आसा. सांवले, तुवें पळयलां, तांकां चष्मो लागना. तांची पिराय कितलीय जावं, तांकां प्रेसांव बादना, गोड ते जल्मभर खातात, तरी गोडें मूत जायना, आंग सुटना."

सावलेक म्हजें म्हणणें पट्टालें. "सचमुच, तुम वडे विचारी आदमी हो।"

"तशें म्हणचे परस हांवें ज्यो गजाली अणभवल्यो, तातुंतूच म्हाका जिणेचें सार कळ्ळें."

गोंयच्यान नीट पुण्याक आयलीं, गाडी म्हज्या एका मित्रागेर दवरली आनी आमी रेलवेन काशी गेलीं. प्रयाग पावतकच हांवें एक भट सोदलो. ताका सांगलें, आंवाळ्याक मुक्ती दी. भटाक पयलीं तृप्त करूंक जाय हे खातीर ताका सदळ हातान हांवें दान केलें. ताणें सांवलेकडेन साडी भटणीक दी म्हणून सांगलें. सांवलेन नवी रेशमी साडी घेवन आंवाळ्याच्या नांवान तिची हाेंट भरली. अस्थी व्हरून हांवें गंगा न्हंयंत सोडल्यो. थोडो वेळ त्या उदकार उबून बुडल्यो. गोबोर उबिल्लो, तो उदकाच्या पाळा बरोबर नाच्च जालो. आंवाळ्याचे कुडीचें निमणें दर्शनच हांव घेतालों. ल्हारां हांसतालीं. तीं तृप्त जालीं अशें म्हाका दिसलें. खरें म्हळयार आंवाळ्याच्या अस्थींचो भौमान जाल्लो. जाणें शार पळोवंक नासलें, तें भाग्य ताच्या अस्थींक फाव जाल्लें. सांवलेक हांवें पयलींच सांगिल्लें, 'सगलें तुज्या मना सारखें जातलें, तरी तुजें

मन उकतें दवर.' ताचेर ताचो विस्वास आसलो. पिंडाक कावळो कसोच आफुडना जालो. कितें कितें सांगून घेतलें, तरी ताचो उपेग जालो ना. शेवटाक हांवें सांगून घेतलें, 'जर सांवलेगेर चलो जायत तर ताका अमल नांव दवरतां, चली जाल्यार आंवळी अशें नांव दवरतलों.'

हें हांव म्हणटां त्या खिणाक कावळो पिंड घेवन गेलो. भट म्हणूंक लागलो, "तुमच्या मनांतलें खरें जातलें. तरी तुमी सांगलां ते प्रमाण तीं नांवां दवरूंक विसरूं नाकात." आमी दोगांयनी भटा मुखार सोपूत घेतलो, पयलीं एकदां घेतिल्लो सोपूत म्हाका याद जालो. तेन्नाचो सोपूत हांवें मोडिल्लो, तरी आतां कसोच मोडचो ना अशें हांवें थारायिल्लें. सांवली सोपूत मानतालें. "शपथ लेनेके पहले सोचना चाहिये, बाद में नहीं।"

पवित्र गंगेन पवित्र अस्थी घेवन ती परत मंद व्हांवताली. तिचे पवित्रताये खातीर तिचो लाव घेवंक शेंकड्यांनी लोक येताले. आंवाळें लेगीत पवित्र आशिल्ल्यानच थंय मरणा उपरान्त आयलें. ना तर खंय आंवाळी आनी खंय प्रयाग! गंगा न्हंय म्हळ्यार कितें, हें ताका बाबड्याक खबर नासलें जावंये. तरी ताच्या आंगांत एक शक्त आसली. त्या मालवजार तें स्वर्गांत गेलें.

जेवणा उपरान्त भटाक विचारलें, जोतें कितें करपाचें काय म्हणून. भटान सांगलें, "तें तशेंच सांवलेन पांयांत घालपाचें. ज्या दिसा तुमचीं कामां जातलीं, त्या दिसा तें जोतें काडून दवरपाचें. जोतें आपूण झरता, तरी चलतल्याक कांटे, फातर हांचे पसून राखण दिता, तशें तें तुमकां उपेगी पडटलें," भटाचो आशीर्वाद घेवन आमी दिल्लीक वचूंक गेलीं.

मनांत तरेकवार विचार येताले. सगलें सपन कशें दिसतालें. सकाळचो वेळ आसलो. पावसाची चिटी नासली. पैशे पांच हजार कावार जाल्ले, ताचें व्हडलें शें दिस नासलें. तरी मनांत उमेद आसली, एक आशेचें केण जल्मल्लें - इत्सा पुराय जावपाची!

## १५

घरा परत यो जाल्यार दुर्गा भायर रस्त्यावयलें झाड पडिल्लें. हें झाड केन्ना पडलें? असो विचार म्हज्या मनांत आयलो. गाडी थांबोवन पळय तर तें झाड वावटळीनच त्या दिसा मोडिल्लें. हांवें तर एकच झाड मोडिल्लें पळयिल्लें - आंवाळेचें.

हें कशें मोडलें? मागीर परत मोडलें जायत, असो तर्क हांवें केलो. गेट काडून गाडी भितर घेतली, तर आंवाळेचें झाड तशेंच उभें आसलें. हांव अजापीत जालों. त्या दिसा तर हांवें ताका मोडटना पळयिल्लें. त्या झाडाच्या पेडार थोडो वेळ बसलों. ताचेर बारीकसाणेन पळय तर फुलां धरिल्लीं सामकीं ल्हान ल्हान. म्हाका खोस जाली. धांवतच हांव गच्चेर गेलों आनी त्या दिसा सारको त्या जाग्यार रावन पळोवंक लागलों. आज पावस नासलो. सगल्याक वत पडिल्लें. आंवाळेचें झाड त्या वतांत चकचकतालें. फुडें नदर मार तर तेच सामखाराक रस्त्यावयलें पडिल्लें झाड येतालें. त्या पावसांत म्हाका सारकें दिसूंक नासलें, दुर्गा भितर आशिल्लें झाड पडलें काय दुर्गा भायलें तें. तेंच सामखाराक आशिल्ल्यान, पावस दाट पडिल्ल्यान वा म्हज्या मनांत आंवाळेच्या झाडा विशीं मोग आसलो आनी म्हाका भिरांत दिसताली, तें मोडून पडत म्हणून म्हणात, झाड मोडून पडलें तें म्हाका आंवाळेचें झाड असो भास जालो जावंये. बंगल्या मुखार तांबडे, धवे गुलाब आसूनय म्हाका आंवाळेचें झाडच चड लागींचें दिसलें. हांवें सांवलेक उलो मारून आपयलें आनी आंवाळेचें झाड दाखयलें.

"मुझे क्या मालूम? मैने आपने कहा उसी पर भरोसा रखा, आखीर बारीश भी तो बहुत थी ना?"

"चल वचून झाड पळोवन यो. पळय कितेंय नवलाय त्या झाडार दिसता जाल्यार."

तें गच्चे वयल्यान सकयल गेलें आनी झाडाक पारखूंक लागलें.

"देखो, पेडपर छोटे छोटे फूल आये हैं. मैने पहले नहीं देखे थे. यही दोन चार दिनो में उसे फूल आये होगें." अशें म्हणटनाच ताका ओंकारे सुरू जाले. ताचो बापूय दोतोराक फोन करून आपोवंक पळयतालो. ताका खेड्यांत गेल्यान पित्त चाळवलां जावंये हें खातीर. हांवें म्हळें, "दोतोर-फातोर कोणूच नाका. हे बरे पणाचेच ओंकारे. थोड्याच दिसांनी ते आंवाळेच्या झाडाक लागल्यांत तशीं फुलां बंगल्यांत लजत फुलतलीं!"

सावली खोशेन भितर गेलें. मांवाच्या दोळ्यांतसून खोशेचीं दुकां येवंक लागलीं. आपली बायल आसल्यार आज कितली खोस तिका जावपाची, अशें तो म्हणूंक लागलो. नातवाक त्या आंवाळेच्या झाडार भोंवन आंवाळे काडटना म्हाका पळोवंक जाय अशें तो म्हणूंक लागलो.

वारो येतालो तेन्ना आपले ताळे हालयत म्हज्या विचारांक आंवाळेचें झाड साथ दितालें. म्हजे विचार, मन त्या झाडाकच कळटालें. झाड [illegible]

उलयतालें. ताणें म्हाका व्हडली गजाल त्या दिसा सांगिल्ली. नातर हे दीस म्हाका पळोवंक मेळचे नासले. सांवली आतां सदांच तिनसांज जातकच त्या झाडा पोंदाक निरंजन लायतालें आनी नमस्कार करतालें. सांवलेच्या मनांतले विचार जरी म्हाका खबर नासले, तरी त्या झाडाचेर ताची श्रद्धा आसली, हें म्हाका सांवलेन सांगपाची गरज नासली. खंयची गजाल सांगून करप, तशेंच आपसुकच करप हातूंत फरक आसता. नांवाच्या रूपान आंवाळें आतां बंगल्या भितर सरिल्लें. हाचें म्हाका वेगळेंच समाधान मेळटालें. जरी पयलीं हांवें सोपूत मोडिल्लो, तरि मागीर घेतिल्लो सोपूत हांव विसरूंक नासलों. ताचे पुर्ती खातीर हांव जाता तितले कष्ट घेवंक पळयतालों. हाची गवाय आज गेटी भितर येतनाच मेळटाली. दिस्त वेळार सांवलेक चलो जालो, आनी आंवाळ्याक उतर दिल्लेप्रमाण ताचें नांव 'अमल' दवरलें.

## १६

आंवाळेच्या पयल्या वर्स-स्राद्धा दिसा हांव एकटोच गेलों. वतना बसीनच गेलों. वतनाच पयलीं घरा गेलों. दुसऱ्या दिसा सकाळीं फुडें रानांतले वाटेन चलूंक लागलों. पयलीं सारखी उमेद नासली. खंय वता तो जागो वळखीचो आसलो. म्हजें थंय रीण आसलें, तें फारीक करूंक म्हाका वचपाचें आसलें. घरचीं म्हाका पिश्यांत काडटालीं. तांचे कडेन लक्ष दिना आसतना म्हाका म्हजें कर्तव्य करूंक जाय आसलें. शारांत राविल्ल्यान पयलीं सारखीं पावलां झपाझप पड नासलीं. बरोबर बलायकेक लागून गुळयो घेवन भोंवचें पड. धांप खूबच लागताली. रान पयलीं सारखें कीण्ण नासलें. झाडां मारून मेकळें जाल्लें. राखणे हातांत सिगार घेवन फुसकायतना दिसले. मदीं मदीं पावस येतकच हांवें सत्री फुलयली. तिळसान जातना हांव आंवाळी पावलों. कुडव सोप्यार आसलो. तो सकयल आंगणांत देंवलो. 'मास्टर, यो, म्हणत ताणें म्हाका भितर व्हेलो. होमाचो उजो पालोवन धुकटेतालो. शिन्याच्या तोंडार जाणटेपणाची सया मारिल्ली. कुडव कपलार हात मारून घेतालो. दनपारचें गोडशें केल्लें तें म्हाका पिवंक दिलें. म्हाका जेवण नाका आसलें. रात जाल्ली. चिमणी मदीं दवरून तीं सगलीं वशिल्लीं. भायर सगल्याक काळोख आसलो. पावस भरिल्ल्यान तो चडच काळो दिसतालो. शेणाचो वास येतालो.

"मास्टर, तूं न्हीद, आमकां रातीन न्हीद ना. रातभर जागरण करपाचें तेच्या नांवान."

कोणी मेल्यार ताच्या वर्साच्या दिसाक ताच्या उगडासाक रात खळप हो नेम आसलो. हांव जरी आंवाळ्याचो कोणच नासलों, तरी आमचे मदीं मावली विणटा तसलो सामको नाजूक धागो आसलो, जो बळ लायना आसतना तुटोवंक जातालो. तो म्हाका तुटोवचो नासलो. त्या कुटुंवा बरोबर रात भर हांवें जागरण केलें.

सकाळीं उठटकच च्या पिवन हांव कुडवा बरोवर मस्णटींत गेलों. थंय आंवाळ्याक लाशिल्लें थंय सदाफुली धव्या फुलांनी भरून आसली. म्हाका याद जाली. आंवाळें हीं फुलां माळटालें. ना वास, ना रंग, तरी कितलीं टवटवीत, तितलींच नाजूक! सदाफुली सदां फुलता, ताका 'मड्या-फुलां' म्हणटात, जीं मड्याचेर घालतात; हीं फुलां देवाक घालिनात, हें म्ह्मका खबर आसलें. आज जरी आंवाळ्याचें मडें नासलें, तरी सारी आसली. हीं फुलां ताचो वांगड धरून आसलीं. आंवाळें तशेंच म्हजें जिणेत सदांच आसलें. सांवळे सारखें, नांव नासतना, दिस नासतना.

कुडवाक हांवें हजार रूपया काडून दिले आनी सांगलें, "हांगा ताचे सारयेर तुळस बांद. लागसार एक आंवाळ्याचो रोपो लाय."

फोंडकुलांतलें कोनली भर उदक काडून हांवें ते सारयेर उडयलें आनी फाट फिरोवन हांव चलूंक लागलों. कुडवाक सांगलें, "परत हांव पावलों तर पावलों. तरी तूं तुळस बांदून घे." मनांत आयलें, म्हज्यान जाता तशें हांवें आंवाळ्या खातीर केलें. जरी तें उणें पडलें, तरी आनीक हांव कांयच करूंक शक नासलों. घडये चड जालें तरी ताचे आभार मानूंक तें खंय आसलें? मनाक फटोवंक हांव सोदी नासलों. एका नाकांत कोण दोन नथी घालिनात, तशें म्हजे उरिल्ले जिणेंत सांवलेचीच नथ घालून रावपाचें हांवें थारायिल्लें. आंवाळे खातना कोडू लागतात, मागीर तोंडांत गोडसाण भरता. तरी थोड्या वेळान ती गोडसाण ना जाता, ती सासणाची उरना, हेंच खरें.

मुंबय पावतकच बंगल्यार वचून हांव न्हिदलों तेन्ना म्हाका गोड न्हीद लागली. कित्याक, तर म्हज्या मनाचेर आयज कसलेंच वजें नासलें. सकाळीं उठटकच हांव म्हज्या कामाक लागलों.

दुसऱ्या वर्सा म्हाका चली जालें, ताचें नांव आंवली दवरलें. आंवाळेचें झाड आंवाळ्यांनी भरलें. तेन्ना सांवलेन ते काडून ताचें लोणचें केलें. हांवें मात तें तोंडांत घालें ना. सांवलेन विचारलें,

"तुम यह अचार क्यों नही खाते?"

"सगल्या प्रस्नांच्यो जापो मेळनात, ते प्रस्नच ताची जाप आसता. अणभवान त्या प्रस्नाची सोडवणूक करूं येता. हे खातीर अणभव घेवचो पडटलो. ह्या प्रस्नाची जाप तुका प्रस्न विस्कुटायतकच थोडी तरी मेळूंक येता. आनीक तुका कांयच सांगूंक

सोदी ना. म्हज्या मोनेपणांतच ताची जाप आसा. हें पळय, आंवाळें रडटा, ताका दूद दी." म्हणून हांवें विशय बदल्लो.

दूद दितकच आंवाळें खोसयेन हांसतालें, तेन्ना म्हाका वेगळीच खोस मेळ्ळी. ती कोणाक सांगपाची न्हय, तर अणभवन ओगी रावपाची.

म्हाका दिसलें, घरांत वणटीर एक चित्र लावपाचें, तेंय आंवाळ्याचें. आंगणांत शेण काडटनाचें. कितले फावट हांवें पेन्सील हातांत घेवन आंवाळ्याचें चित्र काडपाचो यत्न केलो, कितलो कागद वाट लायलो, तरी मरतुकडे आंवाळ्याचें चित्र कागदार उदेतालें. तातूंत सजीवताय नासली. शेवटाक हांवें चित्र काडपाचो नादच सोडून दिलो. एखाद्रें तें जिवें नासलें हे खातीर ताचें सजीव चित्र म्हज्या हातांतसून कागदार उदेनासलें जावंये. मनांत जे तर्क-वितर्क येताले, तांकां म्हजें मनच जाप दितालें. ती जाप कितली खरी वा फट हें कोण थारायतलो? तें थारावपाची गरजय नासली. म्हाका ताची जाप आपसूकच मेळटाली. ती कोणाक सांगपाची नासली. ज्या मनशाक सांगपाची, तो मनीस ह्या संवसारांत नासलो, हाची खंत म्हाका भोगताली. एखाद्रो मनीस जिणेंत येवप, थोडे दीस वांगड दिवन तो उगडास काळजार कोरून वचप. जीण पर्जळूंक हात दिवप आनी तो हात उजो लागतकच फाटीं सरता तसो ओडून घेवप, ना तर जीण पर्जळटकच तो हात भिरकटावप, अशे विचार मनांत घोळतनाच आंवाळें येवन म्हणूंक लागलें,

"पपा, 'आंवाळें' हाचो अर्थ कितें?" तेन्ना हांवें म्हळें,

"तें एक रानवटी फळ."

"म्हाका रानवटी फळाचें नांव कित्याक दवरलें?"

"आगो, सगल्या प्रस्नांच्यो जापो दिवप शक्य आसलें तरी ते प्रस्न प्रस्न उरल्यार चड बरे आसतात. गूट उकतो करतकच ताची गोडसाण, कुतुहल खंय आसता? हे खातीर हो तुझो प्रस्न तसोच आसूं" अशें म्हणून ताका फुसलायलें आनी दारा मुखार आशिल्ल्या आंवाळ्याच्या झाडाक पळोवंक लागलों- नदर काडिनासतना.

रेडिओच्या आवाजान म्हजी तंद्री भंगली, बारिकसाणेन आवाजा कडेन लक्ष दी तर "मै तुलसी तेरे आंगनकी" हें पद लागिल्लें, जें म्हज्या कानांतच न्हय तर काळजा मेरेन पाविल्लें.



बाब : उदय उर्फ यशवंत शेणवीः
जल्म : १५, सप्टेम्बर १९५१.

जल्म गांव : लोलयें, काणकोण, गोंयः

मुळावे शिक्षण : श्री दामोदर विद्यालयः लोलयें:

शिक्षण : एम.ए. [दुडूशास्त्र आनी राजकर्ण] मुंबय विद्यापीठ:

आवड : बरवपाची [कवीता, कादंबरी, नाटकां; बाल्ल काणयो]

आवडतो कवी : बाकीबाब बोरकार:

आवडते खेळ : क्रिकेट, बुध्दीबळ.

व्यवसाय : सर्वीस.

आवडतो गायक : अजित कडकडे.

नामा : एल २७३, हाउसिंग बोर्ड,गोगळ , मडगांव; गोंयः